# सूर्यू निप्पुनू खेळता

चिके चिके पावसु येत्ता
चिके चिके वत येत्ता.
झाडा माक्षी मोडा माक्षी
सूर्यू निप्पुनू खेळता.

चिके चिके पान्न हाल्ताती
चिके चिके फुल्लं धोल्ताती
पान्न फुल्लं दोग्गयि मेळ्णु
पाव्सा उद्‌कांतु तिंबताती.

टप टप थेंबे पडताती
झुळु झुळु झर्यो धांवताती
झर्यो आनि थेंबे मेळ्णु
धरतींतु रंग भरताती.

---

೧೦.

## ಸೂರ್ಯೊ ನಿಪ್ಪುನೂ ಖೇಳತಾ

ಚಿಕೇ ಚಿಕೇ ಪಾವಸು ಯೇತ್ತಾ
ಚಿಕೇ ಚಿಕೇ ವತ ಯೇತ್ತಾ.
ಝೂಡಾ ಮಾಕ್ಷೀ ಮೋಡಾ ಮಾಕ್ಷೀ
ಸೂರ್ಯೊ ನಿಪ್ಪುನೂ ಖೇಳತಾ.

ಚಿಕೇ ಚಿಕೇ ಪಾನ್ನ ಹಾಲ್ತಾತೀ
ಚಿಕೇ ಚಿಕೇ ಫುಲ್ಲಂ ಧೋಲ್ತಾತೀ
ಪಾನ್ನ ಫುಲ್ಲಂ ದೋಗ್ಗಯಿ ಮೇಳ್ಣು
ಪಾವ್ಸಾ ಉದ್ಕ್ಯಾಂತು ತಿಂಬತಾತೀ.

ಟಪ ಟಪ ಥೇಂಬೇ ಪಡತಾತೀ
ಝುಳು ಝುಳು ಝುರ್ಯೊ ಧಾಂವತಾತೀ
ಝುರ್ಯೊ ಆನಿ ಥೇಂಬೇ ಮೇಳ್ಣು
ಧರತೀಂತು ರಂಗ ಭರತಾತೀ.

-----

२१.

## पाप्पड खांवचें कशिश

ाप्पडु कशिश खांवचो म्होणु
सांग्गु वे तुम्का हांवं
ायडीया दिल्ली बाम्णाने
काव्यांतु बरयलें बाय्लेनें!

/licorwave आंतु भाज्जुक जात्ता
नार्लेल तेल्लांतु तळुक जात्ता.
खांव्वाक भो रूचि लाग्ता
एक खेल्ल्यारी वोपस माग्ताँ!

धंवो आनि तांब्डोयि आस्ता
जेवणाक मस्त रूचि हाड्ता.
कण्गाचो आनि पणसाचोयि आस्ता
तान्नेक घेत्ना खांव्वाक जात्ता.

गायचे म्हण्के चाब्डावनु खावयेद
T V, सिनेमा पळयतचि सुद्धां खावयेद.
Drinks सांगाती निप्पोन खावयेद
वरल्यारी चुरांची कोसम्बरी सुद्धां कोर्येद!

------

## ೨೧.

### ಪಾಪ್ಪಡ ಖಾಂವಚೆಂ ಕಶ್ಶಿ

ಪಾಪ್ಪಡು ಕಶ್ಶಿ ಖಾಂವಚೋ ಮ್ಹೋಣು
  ಸಾಂಗ್ಗು ವೇ ತುಮ್ಮಾ ಹಾಂವ
ಆಯಡೀಯಾ ದಿಲ್ಲೀ ಬಾಮ್ಣಾನೇ
  ಕಾವ್ಯಾಂತು ಬರಯಲೆಂ ಬಾಯ್ಲೇನೇ!

Micorwave ಆಂತು ಭಾಜ್ಜುಕ ಜಾತ್ತಾ
  ನಾರ್ಲೇಲ ತೇಲ್ಲಾಂತು ತಳುಕ ಜಾತ್ತಾ.
ಖಾಂವ್ಚಾಕ ಭೋ ರೂಚಿ ಲಾಗ್ತಾ
  ಏಕ ಖೇಲ್ಲ್ಯಾರೀ ವೋಪಸ ಮಾಗ್ತಾ!

ಧಂವ್ರೋ ಆನಿ ತಾಂಬ್ಡೋಯಿ ಆಸ್ತಾ
  ಜೇವಣಾಕ ಮಸ್ತ ರೂಚಿ ಹಾಡ್ತಾ.
ಕಣ್ಣಾಗಚೋ ಆನಿ ಪಣಸಾಚೋಯಿ ಆಸ್ತಾ
  ತಾನ್ನೇಕ ಘೇತ್ನಾ ಖಾಂವ್ಚಾಕ ಜಾತ್ತಾ.

ಗಾಯಚೇ ಮ್ಹಣ್ಕೇ ಚಾಬಡಾವನು ಖಾವಯೇದ
  T V, ಸಿನೇಮಾ ಪಳಯತಚಿ ಸುದ್ಧಾಂ ಖಾವಯೇದ.
Drinks ಸಾಂಗಾತೀ ನಿಪ್ಪೋನ ಖಾವಯೇದ
  ವರಲ್ಯಾರೀ ಚುರಾಂಚೀ ಕೋಸಂಬರೀ ಸುದ್ಧಾಂ ಕೋರ್ಯೇದ!

-----

२२.

## सान्न चेर्डवं देवा समान

देवालोचि अंश घेवनू जन्मा येत्ताति ह्या जगांतू
खंयि केन्ना कस्ल्याक गोत्तु ना तांक्का.
गोत्तु कोर्चि कस्लीयि इच्छायि ना अपेक्षायि ना
कित्लीं निर्लिप्त निष्काम आनि निपाप हीं!

चेरडूं जन्मा आयलें सक्डांक खुशी जाल्ली
मोग कर्ताति कौतुक कर्ताति जाल्यारी
ताक्का ताज्जो कस्लोयि लागु होगु ना.
तें आपलें अलिप्त तागल्याचि जगांतु दंग

ताक्का कसल्याचीई काळजी ना कसल्याची पर्वा ना
सक्ड दुसरीं कर्ताति पोळोनु घेत्ताति
तें मात्र निदांतु सदा अंतरात्मची
स्वानंदाची नीद ती देवाने दिल्लेली.

मदेंतुची तोंड वांकडें कर्ता हास्सुक
आनि वोपस निदता. देवु तांक्का निदांतु
हासैता म्हण्ताति थोडीं जानं
चेरडवं देवालेंची रूप म्हण्ताति दुसरीं!

मार्काण्डेय मुनीक महा प्रलया वेळारी
वडा पान्नारी व्होंवत येंवचो बाळकृष्ण दिश्शिलो
तागलेंचि रूपाचे प्रतीक वे बा हीं
कित्ली निलिर्प्त निष्काम आनि निश्पाप !

----

೨೨.

## ಸಾನ್ನ ಚೇರ್ಡವಂ ದೇವಾ ಸಮಾನ

ದೇವಾಲೋಚಿ ಅಂಶ ಘೇವನೂ ಜನ್ಮಾ ಯೇತ್ತಾತಿ ಹ್ಯಾ ಜಗಾಂತೂ
ಖಂಯಿ ಕೇನ್ನಾ ಕಸ್ಲ್ಯಾಕ ಗೋತ್ತು ನಾ ತಾಂಕ್ಯಾ.
ಗೋತ್ತು ಕೋರ್ಚಿ ಕಸ್ಲೀಯಿ ಇಚ್ಛಾಯಿ ನಾ ಅಪೇಕ್ಷಾಯಿ ನಾ
ಕಿತ್ಲೀಂ ನಿರ್ಲಿಪ್ತ ನಿಷ್ಕಾಮ ಆನಿ ನಿಶ್ಪಾಪ ಹೀಂ!

ಚೇರಡೂಂ ಜನ್ಮಾ ಆಯಲೇಂ ಸಕ್ಡಾಂಕ ಖುಶೀ ಜಾಲ್ಲೀ
ಮೋಗು ಕರ್ತಾತಿ ಕೌತುಕ ಕರ್ತಾತಿ ಜಾಲ್ಯಾರೀ
ತಾಕ್ಯಾ ತಾಜ್ಜೋ ಕಸ್ಲೋಯಿ ಲಾಗು ಹೋಗು ನಾ.
ತೇಂ ಆಪಲೇಂ ಅಲಿಪ್ತ ತಾಗಲ್ಯಾಚಿ ಜಗಾಂತು ದಂಗ

ತಾಕ್ಯಾ ಕಸಲ್ಯಾಚೀಯಿ ಕಾಳಜೀ ನಾ ಕಸಲ್ಯಾಚೀ ಪರ್ವಾ ನಾ
ಸಕ್ಡ ದುಸರೀಂ ಕರ್ತಾತಿ ಪೋಳೋನು ಘೇತ್ತಾತಿ
ತೇಂ ಮಾತ್ರ ನಿದಾಂತು ಸದಾ. ಅಂತರಾತ್ಮಚೀ
ಸ್ವಾನಂದಾಚೀ ನೀದ ತೀ ದೇವಾನೇ ದಿಲ್ಲೇಲೀ.

ಮದೇಂತುಚೀ ತೋಂಡ ವಾಂಕಡೇಂ ಕರ್ತಾ ಹಾಸ್ಸುಕ
ಆನಿ ವೋಪಸ ನಿದತಾ. ದೇವು ತಾಂಕ್ಯಾ ನಿದಾಂತು
ಹಾಸೈತಾ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ ಥೋಡೀಂ ಜಾನಂ
ಚೇರಡವಂ ದೇವಾಲೇಂಚೀ ರೂಪ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ ದುಸರೀಂ!

ಮಾರ್ಕಂಡೇಯ ಮುನೀಕ ಮಹಾ ಪ್ರಲಯಾ ವೇಳಾರೀ
ವಡಾ ಪಾನ್ನಾರೀ ವ್ಹೋಂವತ ಯೇಂವಚೋ ಬಾಳಕೃಷ್ಣ ದಿಶ್ಶಿಲೋ
ತಾಗಲೇಂಚಿ ರೂಪಾಚೀ ಪ್ರತೀಕ ವೇ ಬಾ ಹೀಂ
ಕಿತ್ಲೀ ನಿಲಿರ್ಪ್ತ ನಿಷ್ಕಾಮ ಆನಿ ನಿಶ್ಪಾಪ !

२३.

## जळार

गुंय गुंय कर्तचि कान्ना सुत्तु
घुंवतालें एक जळार
मद्रात्तिचे वेळारी तार सप्तका स्वरारीं!
सोडि तुगलि नीद आयक मगलें पद'

आयकीलेले शब्द आयकीलेलो रागु
आलाप आंदोलन बॉल्तानो म्हळ्यो
तरी सुद्धां कळना मूं खंच्चो बा हॉ रागु?

माग्गेरी थोडे वेळाने ........

चीज केल्लि सुरू शब्दांरी दीवनु जोरू
रक्तदान दिया आम्का भूक जाल्ल्या'

समेरीचि धरली हांवे ताळ
तुम्मिचि तावळी लेक्काति
अवस्था जाल्लि कल्लि त्या जळारालीं!!

-----

೧೭.

## ಜಳಾರ

ಗುಂಯ ಗುಂಯ ಕರ್ತಟಿ ಕಾನ್ನಾ ಸುತ್ತು
ಘುಂವ್ತಾಲೇಂ ಏಕ ಜಳಾರ
ಮದ್ರಾತ್ತಿಚೇ ವೇಳಾರೀ ತಾರ ಸಪ್ತಕಾ ಸ್ವರಾರೀಂ!
'ಸೋಡಿ ತುಗಲಿ ನೀದ ಆಯಕ ಮಗಲೇಂ ಪದ'

ಆಯಕೀಲೇಲೇ ಶಬ್ದ ಆಯಕೀಲೇಲೋ ರಾಗು
ಆಲಾಪ ಆಂದೋಲನ ಬೊಲ್ತಾನೋ ಮ್ಹಳ್ಯೋ
ತರೀ ಸುದ್ಧಾಂ ಕಳನಾ ಮುಂ ಖಂಚ್ಯೋ ಬಾ ಹೊ ರಾಗು?

*ಮಾಗ್ಗೇರೀ ಥೋಡೇ ವೇಳಾನೇ ........*

ಚೀಜ ಕೇಲ್ಲಿ ಸುರೂ ಶಬ್ದಾಂರೀ ದೀವನು ಜೋರೂ
'ರಕ್ತದಾನ ದಿಯಾ ಆಮ್ಕಾ ಭೂಕ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾ

ಸಮೇರೀಚಿ ಧರಲೀ ಹಾಂವೇ ತಾಳ
ತುಮ್ಮಿಚಿ ತಾವಳೀ ಲೇಕ್ಕಾತಿ
ಅವಸ್ಥಾ ಜಾಲ್ಲಿ ಕಲ್ಲಿ ತ್ಯಾ ಜಳಾರಾಲೀಂ!!

-----

२४.

## आम्मा तुगलो उग्डास जात्ता

*आम्गालि म्हाव किल्याडि सुंदरी बायि हिगले ६० वर्षा पुण्यतिथिक बरयिले.*

साठी वर्स जाल्लीं
आम्मा तूं माक्का सोण्णु वचुगेली
आम्मा तुगलो मस्त उग्डासु जात्ता.

हांवें स्कूलां थावनु येत्ना तूं आशिली
वाट मगली पळयताली. फक्कने तूं
उटावनू वचुगल वारी वचुगली
आम्मा तुगलो मस्त उग्डासु जात्ता.

आम्मि म्हणतालीं तुक्का आमगेलीऽचि आम्मा
तुगलींचि चेर्डवशीं पोस्लें तुंवे आमकां
आम्मा तुगलो भो उग्डासु जात्ता.

हॉड्ड कुटुंबांतु उब्जलीं हॉड्डांगेरी पावलि
सान्न प्रायेरीचि तुक्का बाम्णाने धूर केल्ली
धैर्याने स्वाभिमानाने त्या कालांतु तूं एक्ळी राबली.

कष्ट मस्त भोगली कष्ट काणु शिकली
टीचर जावनु दुसर्यांक विद्या दीवनु
तूं तुगलें जीवन जिंकलीं!
आम्मा तुगलो मस्त उग्डासु जात्ता.

बाकीच्यांक तूं सुंदरी आक्का
स्टुडॅन्ट्सांक सुंदरी मास्टर्णी

अनाथ बायलांक तूं समाज सेविका
आज्जीक म्हांतारपणारी दिल्लो तुंवें आधारू
आम्मा तुगलो मस्त उग्डासु जात्ता.

आम्मि आजि सुखारी आस्सति देवालो तुगलो आशिर्वाद आस्स
तूं देवालाग्गि आस्स म्होणु ताक्काची शरण वत्ताति.
आम्मा तुगलो मस्त उग्डासु जात्ता.

------

## ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಉಗ್ಡಾಸ ಜಾತ್ತಾ

ಆಮ್ಗೆಲಿ ಮ್ಹಾಲ್ಗಡಿ ಶಿಲ್ಪಾತಿ ಸುಂದರೀ ಬಾಯಿ ಹಿಗಲೇ ೬೦ ವರ್ಷಾ ಪುಣ್ಯತಿಥಿಕ ಬರಯಿಲೇ.

ಸಾಠೀ ವರ್ಸ ಜಾಲ್ಲೀಂ
ಆಮ್ಮಾ ತೂಂ ಮಾಕ್ಕಾ ಸೋಣ್ಣು ವಚುಗೇಲೀ
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಮಸ್ತ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

ಹಾಂವೇಂ ಸ್ಕೂಲಾಂ ಥಾವನು ಯೇತ್ನಾ ತೂಂ ಆಶಿಲೀ
ವಾಟ ಮಗಲೀ ಪಳಯತಾಲೀ. ಫಕ್ಕನೇ ತೂಂ
ಉಟಾವನೂ ವಚುಗಲ ವಾರೀ ವಚುಗಲೀ
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಮಸ್ತ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

ಆಮ್ಮಿ ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ ತುಕ್ಕಾ ಆಮಗೇಲೀಂಚಿ ಆಮ್ಮಾ
ತುಗಲೀಂಚಿ ಬೇರ್ಡವಶೀಂ ಪೋಸ್ಲೇಂ ತುಂವೇ ಆಮಕಾಂ
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಭೋ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

ಹೊಡ್ಡ ಕುಟುಂಬಾಂತು ಉಬ್ಬಲೀಂ ಹೊಡ್ಡಾಂಗೇರೀ ಪಾವಲಿ
ಸಾನ್ನ ಪ್ರಾಯೇರೀಚಿ ತುಕ್ಕಾ ಬಾಮ್ಣಾನೇ ಧೂರ ಕೇಲ್ಲೀ
ಧೈರ್ಯಾನೇ ಸ್ವಾಭಿಮಾನಾನೇ ತ್ಯಾ ಕಾಲಾಂತು ತೂಂ ಏಕ್ಕೀ ರಾಬಲೀ.

ಕಷ್ಟ ಮಸ್ತ ಭೋಗಲೀ ಕಷ್ಟ ಕಾಣು ಶಿಕಲೀ
ಟೀಚರ ಜಾವನು ದುಸರ್ಯಾಂಕ ವಿದ್ಯಾ ದೀವನು
ತೂಂ ತುಗಲೇಂ ಜೀವನ ಜಿಂಕಲೀಂ!
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಮಸ್ತ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

ಬಾಕೀಚ್ಯಾಂಕ ತೂಂ ಸುಂದರೀ ಆಕ್ಕಾ
ಸ್ಟುಡೆನ್ಟಾಂಕ ಸುಂದರೀ ಮಾಸ್ಟರ್ಣೀ
ಅನಾಥ ಬಾಯಲಾಂಕ ತೂಂ ಸಮಾಜ ಸೇವಿಕಾ
ಆಜ್ಜೀಕ ಮ್ಹಾಂತಾರಪಣಾರೀ ದಿಲ್ಲೋ ತುಂವೇಂ ಆಧಾರೂ
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಮಸ್ತ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

ಆಮ್ಮಿ ಆಜಿ ಸುಖಾರೀ ಆಸ್ಸತಿ ದೇವಾಲೋ ತುಗಲೋ ಆಶಿರ್ವಾದ ಆಸ್ಸ
ತೂಂ ದೇವಾಲಾಗ್ಗಿ ಆಸ್ಸ ಮ್ಹೋಣು ತಾಕ್ಕಾಚೀ ಶರಣ ವತ್ತಾತಿ.
ಆಮ್ಮಾ ತುಗಲೋ ಮಸ್ತ ಉಗ್ಡಾಸು ಜಾತ್ತಾ.

------

२५.

## विश्व शांतीची विनंति

वरणांतु प्रभो तुगल्या
आम्गलि हीचि विनंति
सर्व जगांतु पसरो
सुख आणि शांती.

ही विश्व प्रेमाची ज्योती
आम्गल्या भारताची क्रति
पसारो सगळे जगांतु हाज्जी
अमर प्रख्याती.

सर्व जगाक तूंचि आधारू
करी अहिंसा सत्य साकारू
दीवनू सद्बुद्धि आम्का सर्वांक
दी रे सुविचारू.

बुद्ध यतिगलो हो उपदेशु
महा पुरूषांगलो हो आदर्शु
विश्व शांतीच्या रूपाऩे आजि
राब्बोवो सगळो संघर्षु.

-----

೨೫.

## ವಿಶ್ವ ಶಾಂತೀಚೇ ವಿನಂತಿ

ಚರಣಾಂತು ಪ್ರಭೋ ತುಗಲ್ಯಾ
ಆಮ್ಗಲಿ ಹೀಂಚಿ ವಿನಂತಿ
ಸರ್ವ ಜಗಾಂತು ಪಸರೋ
ಸುಖ ಆಣಿ ಶಾಂತೀ.

ಹೀ ವಿಶ್ವ ಪ್ರೇಮಾಚೀ ಜ್ಯೋತೀ
ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾರತಾಚೀ ಕ್ರತಿ
ಪಸಾರೋ ಸಗಳೇ ಜಗಾಂತು ಹಾಜ್ಜೀ
ಅಮರ ಪ್ರಖ್ಯಾತೀ.

ಸರ್ವ ಜಗಾಕ ತೂಂಚಿ ಆಧಾರೂ
ಕರೀ ಅಹಿಂಸಾ ಸತ್ಯ ಸಾಕಾರೂ
ದೀವನೂ ಸದ್ಬುದ್ಧಿ ಆಮ್ಕಾ ಸರ್ವಾಂಕ
ದೀ ರೇ ಸುವಿಚಾರೂ.

ಬುದ್ಧ ಯತಿಗಲೋ ಹೋ ಉಪದೇಶು
ಮಹಾ ಪುರೂಷಾಂಗಲೋ ಹೋ ಆದರ್ಶು
ವಿಶ್ವ ಶಾಂತೀಚ್ಯಾ ರೂಪಾನೇ ಆಜಿ
ರಾಬ್ಬೋವ್ರೋ ಸಗಲೋ ಸಂಘರ್ಷು.

———

# हुडहुडी मूसु

भायर धो धो पाव्सु पडतालो. आकाशांतु पूरायि मोडं म
भरलेलिं. घरांतु भित्तरि भायर सग्ळेकडे पावसाचो काळोखु. सूर्य देव
देक्कन्नात्तिले भर्ति आठ दिवस जाल्ले. कस्लेंऽ कोरूक सुच्चना! न
पुणि काड्यां म्होणु आड सर्लि. हे मूऽस!! हात्तारि तोंड्डारि बोय्सुनु ह
हुळू कोर्नु निद्दोंच्याकयि सोण्णाति. धोरूक मेळनाति हात्ताक मारल्य
लाग्त कोणाक? जळार रात्तिचें कुंयि कुंयि करताति तशी दिवसाचे म
फर्र फर्र करताति. कस्लेंयि वाच्यां म्होणु बसल्यारि गाल्लारि तोंड्डा
tickle कोर्नु दोन्नि डोळ्यां इदूर घुंवताति दोनि मूऽस. बग्लेक घुंवत
पुरायि तांगले admirers.

मूसांक धांवडाव्यां म्होणु न्यूस पेपर हात्तां काळ्ळें आनि एकद
मगल लक्ष त्या बॉम्बे टाय्म्सारि आशिल्या फॉटोचेरि गेल्लें. ऐश्व
रायागेलो फॉटो हात्तारि टॅटो काळ्ळेलो. 'आजि कालि चेल्डवां
होड्डांक सक्डांकयि tattoचें crazeबा' म्होणु मनांतु लेत्तचि पेपर ब
दवर्लें. आणि वासरेंतु वचुगलिं कोथिंबिरी वडी कोर्यां म्होणु. धूव
भैरासारि सुक्कयिलो कोतंबरि पाल्लो काळ्ळो. शिंदूनु काल्लोंचि तय्या
कोर्यां म्होणु एक पेस्काति घेवनु शिंद्चि तयारि केल्लि. तित्ल भित्तरि.
रोडारि cross कर्तना अर्द cross कोर्नु दुसर्या दिक्काचें traff
राब्बसरि डिवाय्डरारि थावनु हळू हळू मुखारि मुखारि आम्मि वत्ताति प
चम्कूनु, तशीचि एक मूसु मगल्या माग्यारि थावनु चम्कतचि मोळ्ळांलागि
येवनु फक्कने नीडळ cross कोर्नु मगल्या नांकारि उड्डुनु बस्लो.

हांवें सक्ड डायरेक्शन्सांतु मगलो गळो आनि मात्तें हालय
जाल्यारि तो मूसु हाल्लना नांक्कारि थावनु! धांवडांव्यां म्हळ्यारि मगल
एक्क हात्ता मुष्टींतु घट्टिट धरलेलो कोतंबरि पाल्लो आस्स आनि दुस
हात्तांतु पेस्काति. मगलि ही अवस्था कोर्नूयि तो मूसु अग्दी careless

ाक्कं हाल्लोनु फर्र कोर्नु मगल नांक्कारि थावनु वट्टारि उड्डु ळयतालो.

माक्का आयलो जोरू कोपु. हांवें अर्द शिंदत आशिलि पेस्कातिउड्डयली आनि ताक्का (मूसाक) एक घट्टिट पेट्टु मार्लो. पेट्टु पळ्ळो मगल 'नांक्कारि मूसु मात्र जाल्लो फरारी !!

तित्ल भित्तरि bell जाल्लें. मगलो न्नात्तु स्कूलां थावनु आयलो आणि मगलें तोंड पोळोवनु ' अय्यो आज्जि तुंवेंयि tatto केल्यां वे तोंड्डारि?' म्होणु गिडगिडेंच्या लाग्लो. हात्तांतु आशिल्या कोतंबरी पाल्ल्याचें गोम्टें design मगल्या तोंड्डारि टेटोशें आयल्यां म्होणु माक्का त्तावळि कळ्ळें.

'राब कोर्यां ह्या मूसाक बगा' म्होणु हांवें मुसांचेरि एक नमुन्याचें संशोधन' सूरू केल्लें. अशी विचार कर्तचि एक पेपर आनि पेन्न घेवनु बस्लिं. सुवेर्क माक्का कस्लें दिस्लें म्हळ्यारि मूसांक एक्कचि जाग्यारि बोस्च पशि भोंवचें म्हळ्यारि उड्डुनु चमकुंचें भो प्रीति. आम्मि सकाळीं एकयि सांज्जेचें वोकाक वत्ताति पळे तश्शि मूस केन्नायि आनि खंयी वोक कोरूक तय्यार. तो एक वस्तु एकयि सामानु आस्सो एकयि प्राणि कस्लेंयि आस्सो (उत्राक) देंट्यारि थानु खुंट्यरि थायि. एकयि शेग्डेरि थावनु रगड्यांरि थायि म्होण्येद उदारणेक! रगडे पूरा रिटायर जाल्याति आत्तं. जाल्यारि मूसांक इलेकट्रिक एप्लायेन्स म्हळ्यारि सुद्धांयि तश्शी प्रीति आस्स.

ही जाल्लि मूसांगलि आवडी निवडी.

दुसरें म्हळ्यारि आम्गल्या भाषेंतु मूसांक मस्त मर्यादेचीं स्थानं आसति.

१. पेस्ट कन्ट्रोलाचे म्हण्ताति 'आम्मि मूस मार्नु कास कर्ताति' म्होणु.

२. पग्री हांवें खंयकी वचुगल तावळी एक चल्ल्याक निमर्ग
'कस्लें कर्त मा तूं आत्तं ग्रेज्युएशन जाल्लें नव्हे तुगलें?' म्हळ्यारि
M.A. करतां म्हणालो. खंयि म्होणु निमगुंच्या फूडेंचि उत्तर आय
M.A. म्हळ्यारि 'मूसांक आंबुडचें' म्होणु. वोटायेरि हे मूस क
आशिल्यांक आनि काम नात्तिल्यांक दोग्गांकयि सोण्णाति.

३. एक दिवसु आम्मि सात आठ friends मेळ्णु पिक्चरा
वचुगलिं. सगळे थिएटरांतु आमका सोण्णु एक मूसु सुद्धांयि नाशिल
म्हळ्यारि थिएटर सग्ळेंचि खालीऽ आशिले म्होणु अर्थु.

४. शॉपिंगाक वोच्चि हुक्कि आय्लि म्होणु मगल friend ऐश्वर्या
फोन केल्लें हांवें. ती सांग्ता केद्नायि मगल पर्सांतु मस्त मूस आस्तां
आजि एक मूस सुद्धांयि ना. आय्कीलें वे मूस पर्सांतुयि बसताति मस
फांत्तां. म्हळ्यारि code language आंतु

दुडवाक मूस म्हण्ताति आणि भांगराक ( माजरापील ) म्हण्ताति

आत्तं आनि विगंड उधारणं. चेल्डवांनि मस्त हुडहुडपण धिंडेप
केल्यारि घिंगुल्यारि कान्नां मूस रिग्ला वे? म्होणु म्हण्ताति. तशीचि
होड्डांनि restless एकै unconfortable feel केल्यारि खंरि
वचुगेलेलकडे, अंवसर अंवसर केल्यारि निशिल्यांतु मूसु रिग्गिल वा
करता..... म्हण्ताति.

इत्ल्यारि राब्बनाति हे मूस. आद्गत्यांतुंयि आस्स हांग्गल
contribution.

१. मस्त खर्चोनु सान्न विषयांतु वास केल्यारि 'मूसु खावनु मार
खेल्लें म्हण्ताति.'

२. भो दड्डो आस्ल्यारि म्हण्ताति नांक्कारि मूसु बसल्या
आंब्बुडु थायि कळ्ना.

३. मस्त काळ कोणयि येनि जाल्यारि घारा 'एक मूसु सुद्धां
घूवनी आमगेल दिक्काक अश्शि म्हण्ताति.

आस्सो हांवें एकी कविता बरयल्या. तांतु एकी काणि आस्स
ानि मूसाकयि एक role दिल्ला.

ायकुंचि आस्स वे एकी काणि?
एक गावांतु आशिलि एकी राणि.
तेगल्या हात्तारि काळ्ळेलि गोंम्टी मेंदी
तिन्ने केल्लेलि लायकी बेंदी.
तोचि सोद्दुनु दिवसु
तिगल्या दरबारांतु आयलो एकू मूसु.
दिस्सुक तो साऽनु एकू मूसु
जाल्यारि दित्ताल्लो सक्डांकयि भो त्रासु.
सक्ड धांव्तालिं ताज्ज माक्षि
जाल्यारि तागल चुकीक ना साक्षि.
मंत्र्याक आयलो जोरू कोपू
तान्ने उमतीं घाल्लो एक होड्डु तोपु.
मूसु जाल्लो बंदी
माग्गेरि सक्डांनि बयसुनु भुरकीलि बेंदी.

-----

## ಹುಡಹುಡೀ ಮೂಸು

ಭಾಯರ ಧೋ ಧೋ ಪಾವ್ಸು ಪಡತಾಲೋ. ಆಕಾಶಾಂತು ಪೂರಾಂ ಮೋಡಂ ಮೋಡಂ ಭರಲೇಲಿಂ. ಘರಾಂತು ಭಿತ್ತರಿ ಭಾಯರ ಸಗ್ಳೇಕಡೇ ಪಾವಸಾಚೊ ಕಾಳೋಖು. ಸೂರ್ಯ ದೇವಾಕ ದೇಕ್ಕನ್ನಾತ್ತಿಲೇ ಭರ್ತಿ ಆಠ ದಿವಸ ಜಾಲ್ಲೇ. ಕಸ್ಲೇಂ ಕೋರೂಕ ಸುಚ್ಚನಾ! ನೀದ ಪುಣಿ ಕಾಡ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಆಡ ಸರ್ಲಿ. ಹೇ ಮೂಽಸ! ಹಾತ್ತಾರಿ ತೋಂಡ್ಡಾರಿ ಬೋಯ್ಸುನು ಹುಳು ಹುಳೂ ಕೋರ್ನು ನಿದ್ದೋಂಚ್ಯಾಕಯಿ ಸೋಣ್ಣಾತಿ. ಧೋರೂಕ ಮೇಳನಾತಿ ಹಾತ್ತಾಕ ಮಾರಲ್ಯಾರಿ ಲಾಗ್ತ ಕೋಣಾಕ? ಜಳಾ ರಾತ್ತಿಚೇಂ ಕುಂಯಿ ಕುಂಯಿ ಕರತಾತಿ ತಶೀ ದಿವಸಾಚೇ ಮೂಸ ಫರ್ರ ಫರ್ರ ಕರತಾತಿ ಕಸ್ಲೇಂಯಿ ವಾಚ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಬಸಲ್ಯಾರಿ ಗಾಲ್ಲಾರಿ ತೋಂಡ್ಡಾರಿ tickle ಕೋರ್ನು ದೋನ್ನಿ ಡೋಳ್ಯಾಂ ಇದೂರ ಘುಂವತಾತಿ ದೋನಿ ಮೂಽಸ. ಬಗ್ಲೇಕ ಘುಂವತಲೇ ಪುರಾಯಿ ತಾಂಗಲೇ admirers.

ಮೂಸಾಂಕ ಧಾಂವಡಾವ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ನ್ಯೂಸ ಪೇಪರ ಹಾತ್ತಾಂ ಕಾಳ್ಳೇಂ ಆನಿ ಏಕದಮ ಮಗಲ ಲಕ್ಷ ತ್ಯಾ ಬೊಮ್ಮೆ ಟಾಯ್ಮ್ಸಾರಿ ಆಶಿಲ್ಯಾ ಫೋಟೋಚೇರಿ ಗೇಲ್ಲೇಂ. ಐಶ್ವರ್ಯಾ ರಾಯಾಗೆಲೋ ಫೋಟೋ ಹಾತ್ತಾರಿ ಟೆಟೋ ಕಾಳ್ಳೇಲೋ. 'ಆಜಿ ಕಾಲಿ ಚೇಲ್ಡವಾಂಕ ಹೋಡ್ಡಾಂಕ ಸಕ್ಡಾಂಕಯಿ tattoಚೇಂ crazeಬಾ' ಮ್ಹೋಣು ಮನಾಂತು ಲೇಕ್ತಚಿ ಪೇಪರ ಬಗ್ಲೇ ದವರ್ಲೇ. ಆಣಿ ವಾಸರೇಂತು ವಚುಗಲಿಂ ಕೋಥಿಂಬಿರೀ ವಡೀ ಕೋರ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು. ಧೂವನು ಬೈರಾಸಾರಿ ಸುಕ್ಕಯಿಲೋ ಕೋತಂಬರಿ ಪಾಲ್ಲೋ ಕಾಳ್ಳೋ ಶಿಂದೂನು ಕಾಲ್ಲೋಂಚಿ ತಯ್ಯಾರಿ ಕೋರ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಏಕ ಪೇಸ್ಕಾತಿ ಘೇವನು ಶಿಂದ್ಚಿ ತಯಾರಿ ಕೇಲ್ಲಿ. ತಿತ್ಲ ಭಿತ್ತರಿ.... ರೋಡಾರಿ cross ಕರ್ತನಾ ಅರ್ದ cross ಕೋರ್ನು ದುಸರ್ಯಾ ದಿಕ್ಕಾಚೇಂ traffic ರಾಬ್ಬಸರಿ ಡಿವಾಯ್ಡರಾರಿ ಥಾವ್ನು ಹಳೂ ಹಳೂ ಮುಖಾರಿ ಮುಖಾರಿ ಆಮ್ಮಿ ವತ್ತಾತಿ ಪಳೇ ಚಮ್ಕೂನು, ತಶೀಂಚಿ ಏಕ ಮೂಸು ಮಗಲ್ಯಾ ಮಾಗ್ಯಾರಿ ಥಾವನು ಚಮ್ಕತಚಿ ಮೋವ್ಯಾಂಲಾಗ್ಗಿ ಯೇವನು ಫಕ್ಕನೇ ನೀಡಳ cross ಕೋರ್ನು ಮಗಲ್ಯಾ ನಾಂಕಾರಿ ಉಡ್ಡುನು ಬಸ್ಲೋ.

ಹಾಂವೇಂ ಸಕ್ಕ ಡಾಯರೆಕ್ಶನ್ಸಾಂತು ಮಗಲೋ ಗಳೋ ಆನಿ ಮಾತ್ತೇಂ ಎಲಯಲೆಂ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ತೋ ಮೂಽಸು ಹಾಲ್ಲನಾ ನಾಂಕ್ಯಾರಿ ಥಾವನು! ಎಂವಡಾಂವ್ಯಾಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಮಗಲ್ಯಾ ಏಕ್ಕ ಹಾತ್ತಾ ಮುಷ್ಟೀಂತು ಘಟ್ಟಿ ಧರಲೇಲೋ ೋತಂಬರಿ ಪಾಲ್ಲೋ ಆಸ್ಸ ಆನಿ ದುಸರ್ಯಾ ಹಾತ್ತಾಂತು ಪೇಸ್ಕ್ಯಾತಿ. ಮಗಲಿ ಹೀ ವಸ್ಥಾ ಕೋರ್ನುಯಿ ತೋ ಮೂಸು ಅಗ್ದೀ carelessly ಪಾಕ್ಕಂ ಹಾಲ್ಲೋನು ಫರ್ರ ೋರ್ನು ಮಗಲ ನಾಂಕ್ಯಾರಿ ಥಾವನು ವಟ್ಟಾರಿ ಉಡ್ಡು ಪಳಯತಾಲೋ.

ಮಾಕ್ಕಾ ಆಯಲೋ ಜೋರೂ ಕೋಪು. ಹಾಂವೇಂ ಅರ್ದ ಶಿಂದತ ಆಶಿಲಿ ಪೇಸ್ಕ್ಯಾತಿ ಉಡ್ಡಯಲೀ ಆನಿ ತಾಕ್ಕಾ (ಮೂಸಾಕ) ಏಕ ಘಟ್ಟಿ ಪೇಟ್ಟು ಮಾರ್ಲೋ. ಪೇಟ್ಟು ಪಳ್ಳೋ ಮಗಲ ನಾಂಕ್ಯಾರಿ ಮೂಸು ಮಾತ್ರ ಜಾಲ್ಲೋ ಫರಾರೀ !!

ತಿತ್ತ ಭಿತ್ತರಿ bell ಜಾಲ್ಲೇಂ. ಮಗಲೋ ನ್ನಾತ್ತು ಸ್ಕೂಲಾಂ ಥಾವನು ಆಯಲೋ ಆಣಿ ಮಗಲೇಂ ತೋಂಡ ಪೋಳೋವನು ' ಅಯ್ಯೋ ಆಜ್ಜಿ ತುಂವೇಂಯಿ tatoo ಕೇಲ್ಯಾಂ ವೇ ತೋಂಡ್ಡಾರಿ?' ಮ್ಹೋಣು ಗಿಡಗಿಡೇಂಚ್ಯಾ ಲಾಗ್ಲೋ. ಹಾತ್ತಾಂತು ಆಶಿಲ್ಯಾ ಕೋತಂಬರೀ ಪಾಲ್ಲ್ಯಾಚೇಂ ಗೋಮ್ಟೇಂ design ಮಗಲ್ಯಾ ತೋಂಡ್ಡಾರಿ ಟಿಟೋಶೀಂ ಆಯಲ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಮಾಕ್ಕಾ ತ್ತಾವಳಿ ಕಳ್ಳೇಂ.

'ರಾಬ ಕೋರ್ಯಾಂ ಹ್ಯಾ ಮೂಸಾಕ ಬಗಾ' ಮ್ಹೋಣು ಹಾಂವೇಂ ಮುಸಾಂಚೇರಿ ಏಕ ನಮುನ್ಯಾಚೇಂ ಸಂಶೋಧನ ಸೂರೂ ಕೇಲ್ಲೇಂ. ಅಶೀ ವಿಚಾರ ಕರ್ತಚಿ ಏಕ ಪೇಪರ ಆನಿ ಪೇನ್ನ ಘೇವನು ಬಸ್ಲಿಂ. ಸುರ್ವೇಕ ಮಾಕ್ಕಾ ಕಸ್ಲೇಂ ದಿಸ್ಲೇಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಮೂಸಾಂಕ ಏಕ್ಕಚಿ ಜಾಗ್ಯಾರಿ ಬೋಸ್ಚ ಪಶಿ ಭೋಂವಚೇಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಉಡ್ಡುನು ಚಮಕುಂಚೇಂ ಭೋ ಪ್ರೀತಿ. ಆಮ್ಕಿ ಸಕಾಳೀಂ ಏಕಯಿ ಸಾಂಜ್ಜೇಚೇಂ ವೊರಾಕ ವತ್ತಾತಿ ಪಳೀ ತಶ್ಶಿ ಮೂಸ ಕೇನ್ನಾಯಿ ಆನಿ ಖಂಯೀ ವೊರಕ ಕೋರೂಕ ತಯ್ಯಾರ. ತೋ ಏಕ ವಸ್ತು ಏಕಯಿ

ಸಾಮಾನು ಆಸ್ಸೋ ಏಕಯಿ ಪ್ರಾಣಿ ಕಸ್ಲೇಂಯಿ ಆಸ್ಸೋ (ಉತ್ರಾಕ) ದೇಂಟ್ಯಾರಿ ಥಾ
ಖುಂಟ್ಯರಿ ಥಾಯಿ. ಏಕಯಿ ಶೇಗ್ದೇರಿ ಥಾವನು ರಗಡ್ಯಾರಿ ಥಾಯಿ ಮ್ಹೊಣ್ಯೇ
ಉದಾರಣೇಕ! ರಗಡೇ ಪೂರಾ ರಿಟಾಯರ ಜಾಲ್ಯಾತಿ ಆತ್ತಂ. ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಮೂಸಾ
ಇಲೇಕಟ್ರಿಕ ಏಪ್ಲಾಯೆನ್ಸ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ತಶ್ಶೀ ಪ್ರೀತಿ ಆಸ್ಸ.

ಹೀ ಜಾಲ್ಲಿ ಮೂಸಾಂಗಲಿ ಆವಡೀ ನೀವಡೀ.

ದುಸರೇಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತು ಮೂಸಾಂಕ ಮಸ್ತ ಮರ್ಯಾದೇಚೇ
ಸ್ಥಾನಂ ಆಸತಿ.

೧. ಪೆಸ್ಟ ಕನ್ಟ್ರೋಲಾಚೇ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ 'ಆಮ್ಮಿ ಮೂಸ ಮಾರ್ನುಕಾಸ ಕರ್ತಾತಿ
ಮ್ಹೊಣು.

೨. ಪಯ್ಲೀ ಹಾಂವೇಂ ಖಂಯಕೀ ವಚುಗಲ ತಾವಳೀ ಏಕ ಚಲ್ಯಾ
ನಿಮಗಿಲೇಂ 'ಕಸ್ಲೇಂ ಕರ್ತ ಮಾ ತೂಂ ಆತ್ತಂ ಗ್ರೆಜ್ಯುಏಶನ ಜಾಲ್ಲೇಂ ನವ್ಹೇ ತುಗಲೇಂ?
ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ತೋ M.A. ಕರತಾಂ ಮ್ಹಣಾಲೋ. ಖಂಯಿ ಮ್ಹೊಣು ನಿಮಗುಂಚ್ಯಾ
ಘೂಡೇಚಿ ಉತ್ತರ ಆಯಲೇಂ M.A. ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ 'ಮೂಸಾಂಕ ಆಂಬುಡಚೇಂ' ಮ್ಹೊಣು
ವಟಾಯೇರಿ ಹೇ ಮೂಸ ಕಾಮ ಆಶಿಲ್ಯಾಂಕ ಆನಿ ಕಾಮ ನಾತ್ತಿಲ್ಯಾಂಕ ದೋಗ್ಗಾಂಕಯಿ
ಸೋಣ್ಣಾತಿ.

೩. ಏಕ ದಿವಸು ಆಮ್ಮಿ ಸಾತ ಆಠ friends ಮೇಳ್ನು ಪಿಕ್ಚರಾಕ ವಚುಗಲಿಂ.
ಸಗಳೇ ಥಿಏಟರಾಂತು ಆಮಕಾ ಸೋಣ್ನು ಏಕ ಮೂಸು ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ನಾಶಿಲೋ. ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ
ಥಿಏಟರ ಸಗ್ಗೇಂಚಿ ಖಾಲೀS ಆಶಿಲೇ ಮ್ಹೊಣು ಅರ್ಥು.

೪. ಶೊಪಿಂಗಾಕ ವೋಚ್ಚೆ ಹುಕ್ಕಿ ಆಯ್ಲಿ ಮ್ಹೊಣು ಮಗಲ friend ಐಶ್ವರ್ಯಾಕ
ಫೋನ ಕೇಲ್ಲೇಂ ಹಾಂವೇಂ. ತೀ ಸಾಂಗ್ತಾ ಕೇದ್ನಾಯಿ ಮಗಲ ಪರ್ಸಾಂತು ಮಸ್ತ ಮೂಸ
ಆಸ್ತಾತಿ ಆಜಿ ಏಕ ಮೂಸ ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ನಾ. ಆಯ್ಕೊಲೇಂ ವೇ ಮೂಸ ಪರ್ಸಾಂತುಯಿ
ಬಸತಾತಿ ಮಸ್ತ ಘಾಂತ್ತಾಂ. ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ code language ಂತು ದುಡವಾಕ ಮೂಸ
ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ ಆಣಿ ಭಾಂಗರಾಕ ( ಮಾಜರಾಪೀಲ ) ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ.

ಆತ್ತಾಂ ಆನಿ ವಿಗಂಡ ಉಧಾರಣಂ. ಚೇಲ್ಡುವಾಂನಿ ಮಸ್ತ ಘುಡಘುಡಪಣ ುಡೇಪಣ ಕೇಲ್ಯಾರಿ ಫಿಂಗುಲ್ಯಾರಿ ಕಾನ್ನಾಂ ಮೂಸ ರಿಗ್ಲಾ ವೇ? ಮ್ಹೋಣು ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ. ಶೀಚಿ ಹೋಡ್ಡಾಂನಿ restless ಏಕ್ಕೈ uncomfortable feel ಕೇಲ್ಯಾರಿ ಖಂಯಿ ಚುಗೇಲೇಲಕಡೇ, ಅಂವಸರ ಅಂವಸರ ಕೇಲ್ಯಾರಿ ನಿಶಿಲ್ಯಾಂತು ಮೂಸು ರಿಗ್ಗಿಲ ವಾರಿ ರತಾ..... ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ.

ಇತ್ಲ್ಯಾರಿ ರಾಬ್ಬನಾತಿ ಹೇ ಮೂಽಸ. ಆಧ್ಗತ್ಯಾಂತುಂಯಿ ಆಸ್ಸ ಹಾಂಗ್ಗಲೇಂ contribution

೧. ಮಸ್ತ ಖರ್ಚೋಣು ಸಾನ್ನ ವಿಷಯಾಂತು ವಾಸ ಕೇಲ್ಯಾರಿ 'ಮೂಸು ಖಾವನು ಮಾಸ ಖೇಲ್ಲೇಂ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ.'

೨. ಭೋ ದಡ್ಡೋ ಆಸ್ಲ್ಯಾರಿ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ ನಾಂಕ್ಕಾರಿ ಮೂಸು ಬಸಲ್ಯಾರಿ ಆಂಬ್ಬುಡು ಥಾಯಿ ಕಳ್ನಾ.

೩. ಮಸ್ತ ಕಾಳ ಕೋಣಾಯಿ ಯೇನಿ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಘಾರಾ 'ಏಕ ಮೂಸು ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ಘೂವನೀ ಆಮಗೇಲ ದಿಕ್ಕಾಕ ಆಶ್ಶಿ ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ.

ಆಸ್ಸೋ ಹಾಂವೇಂ ಏಕೀ ಕವಿತಾ ಬರಯಲ್ಯಾ. ತಾಂತು ಏಕೀ ಕಾಣಿ ಆಸ್ಸ ಆನಿ ಮೂಸಾಕಯಿ ಏಕ role ದಿಲ್ಲಾ.

ಆಯಕುಂಚಿ ಆಸ್ಸ ವೇ ಏಕೀ ಕಾಣಿ?
ಏಕ ಗಾವಾಂತು ಆಶಿಲಿ ಏಕೀ ರಾಣಿ.
ತಿಗಲ್ಯಾ ಹಾತ್ತಾರಿ ಕಾಳ್ಳೇಲಿ ಗೋಂಮ್ಬ್ಬೀ ಮೇಂದೀ
ತಿನ್ನೇ ಕೇಲ್ಲೇಲಿ ಲಾಯಕೀ ಬೇಂದೀ.
ತೋಚಿ ಸೋದ್ದುನು ದಿವಸು
ತಿಗಲ್ಯಾ ದರಬಾರಾಂತು ಆಯಲೋ ಏಕೂ ಮೂಸು.
ದಿಸ್ಸುಕ ತೋ ಸಾಽನು ಏಕೂ ಮೂಸು

ಜಾಲ್ಯಾರಿ ದಿತ್ತಾಲ್ಲೋ ಸಕ್ಡಾಂಕಯಿ ಭೋ ತ್ರಾಸು.

ಸಕ್ಡ ಧಾಂವ್ತಾಲಿಂ ತಾಜ್ಜ ಮಾಕ್ಷಿ

ಜಾಲ್ಯಾರಿ ತಾಗಲ ಚುಕೀಕ ನಾ ಸಾಕ್ಷಿ.

ಮಂತ್ರ್ಯಾಕ ಆಯಲೋ ಜೋರೂ ಕೋಪೂ

ತಾನ್ನೇ ಉಮತೀಽ ಘಾಲ್ಲೋ ಏಕ ಹೋಡು ತೋಪು.

ಮೂಸು ಜಾಲ್ಲೋ ಬಂದೀ

ಮಾಗ್ಗೇರಿ ಸಕ್ಡಾಂನಿ ಬಯಸುನು ಭುರಕೀಲಿ ಬೇಂದೀ.

-----

# ती आणि तो एक हास्य लेखन

एक फांत्तां माक्का आनि मगल बाम्णाक झग्डे जाल्लें. झग्डे ज्ल्यारि उत्रा उत्तर आयलें तश्शि न्हयि सम जोरू झग्डें. जाल्यारि ारामारी न्हयि इतें. भीवनाकाति तुम्मि, अशी नित्याक कर्तातिं पळे ाश्शि. बाम्मुण बायलांगलें नित्त्या झग्डें म्होणु कांयि अड्डी ना. अर्थात ायलेने म्हळ्ळेल्या उप्राटी व्होण्चें बाम्णाने.

एक दीसू आयतारा मगलो बाम्मुणु भाग्र वोच्चुनु आयिल्लोचि तिक्का' सोफारि सोणु वचुगलो. हांवं भित्तरि हुनऽहुनऽचि बटाट्याचे ाराठे कर्त आश्शिलिं. अरे कस्लें सांग्तां हांवं? उप्राटी म्हळ्ळें बा!! बटाटे ुन न्हयि. पराठे हुनहुनचि. कळ्ळें न्हवे?

थोडे वेळाने सक्ड रांदप जायनाफुडे भाग्र येवनु पळयल्यारि 'ती' अजुनि सोफारीचि. खंयि वचगल बा मगल बाम्मुणु म्होणु पळय्ल्यारि न्हांवच्याक वचुगल्या दिस्ता सवारी. माग्गिरि न्हावनु देवाक पांय पोण्णु 'जेवयां गो' म्हळ्ळें उडापीचि. माक्का गोत्तास्स न्हवे मगल बामणागल स्वभावु. हांवें सुर्वेकचि वाट्टीं आनि दवोर्नु तयारि केल्लेलि. येवनु ताट्टा इदूर बैसनाफुडे हांवें म्हळ्ळें 'आयकिलवें? हांवें आजि हुनऽ पराठे केल्ल्याति बटाट्याचे. वाडुं वे?' कूड्ले जवाब आयली 'माक्का आवड्नाति ते पराठे' म्होणु. माक्का कळ्ळें इत्याक 'ते पराठे' नाक्का म्हळ्ळें म्होणु. मगल बामणाक केन्नायि 'ती' म्हळ्यारि आवड्ता. 'ती चपाती ती पूरी आनि ती टोप्पी' लोव्हा पळे थयिं सोफारि. हांवें कोप्पाने म्हळ्ळें 'अप्रुब हुन हुन बटाट्याचे....शी वोपस युक्ली. हुनऽ हुनऽ पराठे केल्याति बटटेचे खाववेद न्हवे. नित्त्य कर्ताति वे कांयिं?' म्हळ्ळें.

हाज्जेरि थावनु सूरू जाल्लि आमगलि लडायि. 'ती लडायि.' मगलो बाम्मुणु म्हणालो चिके धड्सुनु आनि घट्टि 'हांवं खायना तो पराठो. तूं केन्नायि माक्का नज्जशिलेंचि कर्ता तो पोळो काळोचि ताक्का देकल्यारि जायना माक्का.'

ताव्वळि हांवें म्हळ्ळें ' काळो जाल्यारि इत्तें नांचण्या पिट्ट्ये
तॊ. जीवाक चांऽग आनि रूचेकयिऽ उडदा दाळी आणि नांचण्या पिट
पॊळॆ चरचरीचि कित्ल चांग लाग्तातिं.'

जवाब तयार. 'तुक्का इड्ली कोरूक कल्लें जात्ता? तीवा
लुकलुकीचि बुकबुकीचि जात्ता आनि चांग लाग्ता.

हांवे कूड्ले म्हळ्ळें 'म्होणुचि तुक्का 'ती' इड्ली प्रीति. आनि
सांगाताक 'ती' चिटनीयी आस्स न्हवे. माक्का सम गोत्तस्स् तुगल
स्वभावु. म्होणुचि सुर्वेकचि थोडें पीट विंगड काणु दवरल्यां. 'ती' पूरि
कोर्नु हाड्तां' म्हळ्ळें.

आनि पूरि कोर्नु वाळ्ळें. जेवनु जायनाफुडे थोडो वेळु निद्दलिं
आम्मि एकळ्यां लाग्गि एकळीं उल्लयनातिलेंचि.

सांजे बेजार आयलो म्होणु हांवे 'खंयी पुणि वोच्चां वे' म्हळ्ळें
हगुर. मगल बाम्णाने मात्तें चिके हालयलें. तें 'हं' म्हळ्ळें की 'ना' म्हळ्ळें
माक्का कळ्ळी. 'सिनेमा वोच्चां एकयि पार्कांतु पुणि फीर्नु येव्यां' म्होणु
सुद्धां म्हण्णी. एकयि तें नवें जाल्लेलें mall पुणि पोळोंच्याक वोच्यां
म्व्होण्येदशिलें न्हवे तेंवयि ना.

कड्डेरि दोग्गयि भाय्र सर्लि. मगल बाम्मुणु वोच्चुनु टेक्सीलाग्गि
राबलो. हांवे हमुर माक्षि वोचुनु म्हळ्ळें 'ती' टेक्सी नाक्का. आम्मि
ऑटॊरी वोच्यां.'

कूड्ले कोप्पाने 'तॊ' ऑटॊ म्हळ्यारि माक्का जायना. तीनि
पाय्यांचो तिक्डो घॊडोसॊ ऽऽ सुर्वेकचि रस्त्यारि पुरायि खड्डें
हाड्डांचो हाल्वॊ जात्लो पुरायि' म्हळ्ळें तान्ने.

तावळि हांवं 'व्हयि हाल्वो जात्लो. 'तों' हाल्वो न्हवे.' 'ती' टेक्सी
कां समचि काण्णी काण्णु तुळतुळी मात्तें कर्तलि. 'ती' कापणी न्हवे.
ळ्ळे आनि हांवं नोळ्ळेत्त चोण्णु बस्लि टेक्सींतु.

'कहां साब' म्हणालो टेक्सी ड्रायवर. ' महालक्ष्मी' म्होणु जवाब
ल्लि कूड्ले हान्ने.

अरे महालक्ष्मी कोण आसति? मगलिं लेक्तलिं कोणयि नाति.
णि तागलें कोण आस्सा बा थंयि केन्नायि आय्कनि....... देवळांतु इत्की
णु मनांतु लेक्लें. 'ती' महालक्ष्मीक पळयनाफुडे हांवयि त्या
द्धीविनायका देवळां वत्तलि वापस येत्ना. मगलोयि तों इष्टदेवु
वे...... म्होणु मनांतु आलोचना कोर्च गडबडेंतु आम्मि सिद्धीविनायक
वळा मुखारि पाव्विलेंचि कव्निं.

हाजिअली दर्गा फुटपाथा इदूर टेक्सी राब्लि. आम्मि दोग्गयि
व्लिं. खंयि म्होणु हांवें निम्गीनि आनि तान्ने सांग्गनि. मुखारि वचुगल्यारि
यि एक होड mall आस्स थंयि भित्तरि रिग्लीं. भित्तरि पळयल्यारि
स्लें सांग्चें!! होड् होड्ड गोम्टीं दुकानं. बणबण्णा ड्रेसस नमनमुन्या
acks री मांड्डोनु दवरल्यांति. हें दारल्यांगलें section खंयी. आत्तां
मुन्या टी शर्टारी नमनमुन्याचीं messages, बणबण्णाचीं होड्ड
न्न अक्षरांनी बरयिलिं. थोडीं हात आश्शिलिं थोडीं हात नात्तिलिं
ग्लेक matching pants, पाय आश्शिलिं आनि पाय नात्तिलिं
व्यारि Bermudas आनि short pants होड्डांगलिं. उंचारी पूरायि
ाळ्यां ऊंच माळ्यो दुकानां वय्री दुकानंची. बग्लेक एकी घूवनु घूवनु
च्चि माळी. ती कारांक ऊंच वोच्चुक. कडे माळ्येरि कारांक राब्बुक
जागो. त्या कारांक तोग्गु वोपस हाडुक आनेक lift. जानांक जाय्शिल्या
माळ्येरी शोपिंग् कोरू वोचुक आनेक lift.

आम्मि भित्तरि मस्त भोंव्लीं. गोमटोचि चंदु सामानु आनि
पळय्लें. पळयलें मात्र इतें कस्लेंयि घेनि. माग्गेरि थंयि एक सान

theatre आस्स. तांतु सिनेमा पोळोवनु घारा येंवच्याक भायर सर्ा
'ती' आनि 'तो' चें झगडें 'तें' मोल आनि 'तें' सिनेमा पोळोनु बंद जाल
येत्ना वाट्टेरि 'तो' भेलू आनि 'ती' पाणि पूरी खावनू हास्तचि घ
आयलीं.

-----

## ತೀ ಆಣಿ ತೊ ಏಕ ಹಾಸ್ಯ ಲೇಖನ

ಏಕ ಘಾಂತ್ತಾಂ ಮಾಕ್ಕಾ ಆನಿ ಮಗಲ ಬಾಮ್ಣಾಕ ಝುಗ್ಡೇ ಜಾಲ್ಲೇಂ. ಝುಗ್ಡೇ ಪ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಉತ್ರಾ ಉತ್ತರ ಆಯಲೇಂ ತಶ್ಶಿ ನ್ಹಯಿ ಸಮ ಜೋರೂ ಝುಗ್ಡೇಂ. ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಮಾರಾಮಾರೀ ನ್ಹಯಿ ಇತೇಂ. ಭೀವನಾಕಾತಿ ತುಮ್ಮಿ, ಅಶೀ ನಿತ್ಯಾಕ ಕರ್ತಾತಿ ಪಳೇ ತಶ್ಶಿ. ಬಾಮ್ಮಣ ಬಾಯಲಾಂಗಲೇಂ ನಿತ್ತ್ಯಾ ಝುಗ್ಡೇಂ ಮ್ಹೋಣು ಕಾಂಯಿ ಅಡ್ಡೀ ನಾ. ಅರ್ಥಾತ ಬಾಯಲೇನೇ ಮ್ಹಳ್ಳೇಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಟೇ ಮ್ಹೋಣ್ಚೇಂ ಬಾಮಣಾನೇ.

ಏಕ ದೀಸೂ ಆಯತಾರಾ ಮಗಲೋ ಬಾಮ್ಮಣು ಭಾಯ್ರ ವೋಚ್ಚುನು ಆಯಿಲ್ಲೋಚಿ 'ತಿಕ್ಕಾ' ಸೋಫಾರಿ ಸೋಣು ವಚುಗಲೋ. ಹಾಂವಂ ಭಿತ್ತರಿ ಹುನಹುನಚಿ ಬಟಾಟ್ಯಾಚೇ ಪರಾಠೇ ಕರ್ತ ಆಶ್ಶಿಲಿಂ. ಅರೇ ಕಸ್ಲೇಂ ಸಾಂಗ್ತಾಂ ಹಾಂವc? ಉಪ್ರಾಟೀ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಬಾ!! ಬಟಾಟೇ ಹೂನ ನ್ಹಯಿ. ಪರಾಠೇ ಹುನಹುನಚಿ. ಕಳ್ಳೇಂ ನ್ಹವೇ?

ಥೋಡೇ ವೇಳಾನೇ ಸಕ್ಕ ರಾಂದಪ ಜಾಯ್ನಾಫುಡೇ ಭಾಯ್ರ ಯೇವನು ಪಳಯಲ್ಯಾರಿ 'ತೀ' ಅಜುನಿ ಸೋಫಾರೀಚಿ. ಖಂಯಿ ವಚೆಗಲ ಬಾ ಮಗಲ ಬಾಮ್ಮಣು ಮ್ಹೋಣು ಪಳಯ್ಲ್ಯಾರಿ ನ್ಹಾಂವಚ್ಯಾಕ ವಚುಗಲ್ಯಾ ದಿಸ್ತಾ ಸವಾರೀ. ಮಾಗ್ಗಿರಿ ನ್ಹಾವನು ದೆವಾಕ ಪಾಂಯ ಪೋಣ್ಣು 'ಜೇವಯಾಂ ಗೊ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಉಡಾಪೀಚಿ. ಮಾಕ್ಕಾ ಗೋತ್ತಸ್ಸ ನ್ಹವೇ ಮಗಲ ಬಾಮಣಾಗಲ ಸ್ವಭಾವು. ಹಾಂವೇಂ ಸುರ್ವೇ ಕಚಿ ವಾಟ್ಟೇಂ ಆನಿ ದವ್ರೋನ್ನು ತಯಾರಿ ಕೇಲ್ಲೇಲಿ. ಯೇವನು ತಾಟ್ಟಾ ಇದೂರ ಬೈಸನಾಫುಡೇ ಹಾಂವೇಂ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ 'ಆಯಕಿಲಿವೇಂ? ಹಾಂವೇಂ ಆಜಿ ಹುನ। ಪರಾಠೇ ಕೇಲ್ಲ್ಯತಿ ಬಟಾಟ್ಯಾಚೇ. ವಾಡುಂ ವೇ?' ಕೂಡ್ಲೇ ಜವಾಬ ಆಯಲೀ 'ಮಾಕ್ಕಾ ಆವಡ್ನಾತಿ ತೇ ಪರಾಠೇ' ಮ್ಹೋಣು. ಮಾಕ್ಕಾ ಕಳ್ಳೇಂ ಇತ್ಯಾಕ 'ತೇ ಪರಾಠೇ' ನಾಕ್ಕಾ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಮ್ಹೋಣು. ಮಗಲ ಬಾಮಣಾಕ ಕೇನ್ನಾಯಿ 'ತೀ' ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಆವಡ್ತಾ. 'ತೀ ಚಪಾತೀ ತೀ ಪೂರೀ ಆನಿ ತೀ ಟೋಪ್ಪೀ' ಲೋಳ್ತಾ ಪಳೇ ಥಯಿಂ ಸೊಫಾರಿ. ಹಾಂವೇಂ ಕೋಪ್ಪಾನೇ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ 'ಅಪ್ಪುಬ ಹುನ ಹುನ

ಬಟಾಟ್ಯಾಚೇ....ತೀ ವ್ಹೊಪಸ ಚುಕ್ಲೀಂ. ಹುನ್ನ ಹುನ್ನ ಪರಾತೇ ಕೇಲ್ಯಾತಿ ಬಟಟೆ
ಖಾವಯೇದ ನ್ಹವೇ. ನಿತ್ತ್ಯ ಕರ್ತಾತಿ ವೇ ಕಾಂಯಿಂ?' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ.

ಹಾಜ್ಜೇರಿ ಥಾವನು ಸೂರೂ ಜಾಲ್ಲಿ ಆಮಗಲಿ ಲಡಾಯಿ. 'ತೀ ಲಡಾಯಿ
ಮಗಲೋ ಬಾಮ್ಮುಣು ಮ್ಹಣಾಲೋ ಚಿಕೆ ಧಡ್ಸುನು ಆನಿ ಘಟ್ಟಿ 'ಹಾಂವಂ ಖಾಯನಾತ
ಪರಾಠೊ. ತೂಂ ಕೇನ್ನಾಯಿ ಮಾಕ್ಕಾ ನಜ್ಜಶಿಲೇಂಚಿ ಕರ್ತಾ ತೊ ಪೊಳೊ ಕಾಳೊಚಿ ತಾಕ್ಕಾ
ದೇಕ್ಲ್ಯಾರಿ ಜಾಯನಾ ಮಾಕ್ಕಾ.'

ತಾವ್ವಳಿ ಹಾಂವೇಂ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ' ಕಾಳೋ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಇತ್ತೇಂ ನಾಂಚಣ್ಯಾ ಪಿಟ್ಟ್ಯೇಚ
ತೊ. ಜೀವಾಕ ಚಾಂ।ಗ ಆನಿ ರೂಚೇಕಯಿೀ ಉಡದಾ ದಾಳೀ ಆಣಿ ನಾಂಚಣ್ಯಾ ಪಿಟ್ಯೇ
ಪೊಳೆ ಚರಚರೀಚಿ ಕಿತ್ತ ಚಾಂಗ ಲಾಗ್ತಾತಿ.'

ಜವಾಬ ತಯಾರ. 'ತುಕ್ಕಾ ಇಡ್ಲೀ ಕೋರೂಕ ಕಲ್ಲೇಂ ಜಾತ್ತಾ? ತೀವಯಿ
ಲುಕಲುಕೀಚಿ ಬುಕಬುಕೀಚಿ ಜಾತ್ತಾ ಆನಿ ಚಾಂಗ ಲಾಗ್ತಾ.

ಹಾಂವೇ ಕೂಡ್ಲೇ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ' ಮ್ಹೋಣುಚಿ ತುಕ್ಕಾ 'ತೀ' ಇಡ್ಲೀ ಪ್ರೀತಿ. ಆನಿ
ಸಾಂಗಾತಾಕ 'ತೀ' ಚಿಟನೀಯಿ ಆಸ್ಸ ನ್ಹವೇ. ಮಾಕ್ಕಾ ಸಮ ಗೋತ್ತಸ್ಸ್ ತುಗಲೋ
ಸ್ವಭಾವು. ಮ್ಹೋಣುಚಿ ಸುರ್ವೇಕಚಿ ಥೋಡೇಂ ಪೀಟ ಖಿಂಗಡ ಕಾಣು ದವರಲ್ಯಾಂ. 'ತೀ'
ಪೂರೀ ಕೋರ್ನು ಹಾಡ್ತಾಂ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ.

ಆನಿ ಪೂರಿ ಕೋರ್ನು ವಾಳ್ಳೇಂ. ಜೇವನು ಜಾಯನಾಫುಡೇ ಥೋಡೋ ವೇಳು
ನಿದ್ದಲಿಂ. ಆಮ್ಮಿ ಏಕಳ್ಯಾಂ ಲಾಗ್ಗಿ ಏಕಳೀಂ ಉಲ್ಲಯನಾತಿಲೇಂಚಿ.

ಸಾಂಜೇ ಬೇಜಾರ ಆಯಲೋ ಮ್ಹೋಣು ಹಾಂವೆ 'ಖಂಯೀ ಪುಣಿ ವ್ಹೊಚ್ಚಾಂ
ವೇ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಹಗುರ. ಮಗಲ ಬಾಮ್ಣಾನೇ ಮಾತ್ತೇಂ ಚಿಕೇ ಹಾಲಯಲೇಂ. ತೇಂ 'ಹಂ'
ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಕೀ 'ನಾ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಮಾಕ್ಕಾ ಕಳ್ಳೀ. 'ಸಿನೇಮಾ ವ್ಹೊಚ್ಚಾಂ ಏಕಯಿ ಪಾರ್ಕಾಂತು
ಪುಣಿ ಫೀರ್ನು ಯೇವ್ಯಾಂ' ಮ್ಹೋ ಣು ಸುದ್ಧಾಂ ಮ್ಹಣ್ಣೀ. ಏಕಯಿ ತೇಂ ನವೇಂ

ಪಾಲ್ಲೇಲೇಂ mall ಪೂಣಿ ಫೋಳೋಂಬ್ಯಾಕ ವೋಚ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣ್ಯೇದತಿಲೇಂ ನ್ಹವೇ ತೇಂವಯಿ ನಾ.

ಕಡ್ಡೇರಿ ದೋಗ್ಗಯಿ ಭಾಯ್ರ ಸರ್ಲಿ. ಮಗಲ ಬಾಮ್ಮುಣು ವೋಚ್ಚುನು ಟೆಕ್ಸಿಲಾಗ್ಗಿ ರಾಬಲೋ. ಹಾಂವೇ ಹಗುರ ಮಾಕ್ಷಿ ವೋಚುನು ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ' 'ತೀ' ಟೆಕ್ಸೀ ನಾಕ್ಕಾ. ಆಮ್ಮಿ ಒಟೋರೀ ವೋಚ್ಯಾಂ.'

ಕೂಡ್ಲೆ ಕೋಪ್ಪಾನೇ 'ತೊ' ಒಟೊ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಮಾಕ್ಕಾ ಜಾಯನಾ. ತೀನಿ ಪಾಯ್ಯಾಂಚೋ ತಿಕ್ಡೋ ಘೊಡೋಸೊ !! ಸುರ್ವೇಕಚಿ ರಸ್ತ್ಯಾರಿ ಪುರಾಯಿ ಖಡ್ಡೇಂ! ಹಾಡ್ಡಾಂಚೋ ಹಾಲ್ಲೊ ಜಾತ್ಲೋ ಪುರಾಯಿ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ತಾನ್ನೆ.

ತಾವಳಿ ಹಾಂವಂ 'ವ್ಹಯಿ ಹಾಲ್ಲೋ ಜಾತ್ಲೋ. 'ತೊ' ಹಾಲ್ಲೊ ನ್ಹವೇ.' 'ತೀ' ಟೆಕ್ಸೀ ತುಮ್ಕಾಂ ಸಮಚಿ ಕಾಪ್ಡೀ ಕಾಣ್ಣು ತುಳತುಳೀ ಮಾತ್ತೇಂ ಕರ್ತಲಿ. 'ತೀ' ಕಾಪಣೀ ನ್ಹವೇ. ಮ್ಹಳ್ಳೆ ಆನಿ ಹಾಂವಂ ನೋಳ್ಳೇತ್ತ ಚೋಣ್ಣು ಬಸ್ಲಿಂ ಟೆಕ್ಸೀಂತು.

'ಕಹಾಂ ಸಾಬ' ಮ್ಹಣಾಲೋ ಟೆಕ್ಸೀ ಡ್ರಾಯವರ. ' ಮಹಾಲಕ್ಷ್ಮೀ' ಮೋಣು ಜಬಾಬ ದಿಲ್ಲಿ ಕೂಡ್ಲೇ ಹಾನ್ನೇ.

ಆರೇ ಮಹಾಲಕ್ಷ್ಮೀ ಕೋಣ ಆಸತಿ? ಮಗಲಿಂ ಲೇಕ್ತಲಿಂ ಕೋಣಯಿ ನಾತಿ. ಆಣಿ ತಾಗಲೇಂ ಕೋಣ ಆಸ್ಸಾ ಬಾ ಥಂಯಿ ಕೇನ್ನಾಯಿ ಆಯ್ಕನಿ....... ದೇವಳಾಂತು ಇತ್ಕೀ ಮ್ಹೋಣು ಮನಾಂತು ಲೇಕ್ಲೇಂ. 'ತೀ' ಮಹಾಲಕ್ಷ್ಮೀಕ ಪಳಯನಾಫುಡೇ ಹಾಂವಯಿ ತ್ಯಾ ಸಿದ್ಧೀವಿನಾಯಕಾ ದೇವಳಾಂ ವತ್ತಲಿಂ ವಾಪಸ ಯೇತ್ನಾ ಮಗಲೋಯಿ ತೊ ಇಷ್ಟದೇವು ನ್ಹವೇ...... ಮ್ಹೋಣು ಮನಾಂತು ಆಲೋಚನಾ ಕೋರ್ಚೆ ಗಡಬಡೇಂತು ಆಮ್ಮಿ ಸಿದ್ಧೀವಿನಾಯಕ ದೇವಳಾ ಮುಖಾರಿ ಪಾವ್ವಿಲೇಂಚಿ ಕಳ್ಳಿ.

ಹಾಜಿಅಲೀ ದರ್ಗಾ ಫುಟಪಾಥಾ ಇದೂರ ಟೆಕ್ಸೀ ರಾಬ್ಲಿ. ಆಮ್ಮಿ ದೋಗ್ಗಯಿ ದೇಂವ್ಲಿಂ. ಖಂಯಿ ವ್ಹೋಣು ಹಾಂವೇಂ ನಿಮ್ಗಿನಿ ಆನಿ ತಾನ್ನೇ ಸಾಂಗ್ಗನಿ. ಮುಖಾರಿ ವಚುಗಲ್ಯಾರಿ ಥಂಯಿ ಏಕ ಹೊಡ Mall ಆಸ್ಸ ಥಂಯಿ ಭಿತ್ತರಿ ರಿಗ್ಲೀಂ. ಭಿತ್ತರಿ ಪಳಯಲ್ಯಾರಿ ಕಸ್ಲೇಂ ಸಾಂಗ್ಚೇಂ!! ಹೊಡ್ ಹೊಡ್ಡ ಗೋಮ್ಟೀಂ ದುಕಾನಂ. ಬಣಬಣ್ಣಾ ಡ್ರೇಸಸ ನಮನಮುನ್ಯಾ racks ರೀ ಮಾಂಡ್ಡೋನು ದವರಲ್ಯಾಂತಿ. ಹೇಂ ದಾರಲ್ಯಾಂಗಲೇಂ section ಖಂಯೀ. ಆತ್ತಾಂ ನಮುನ್ಯಾ ಟೀ ಶರ್ಟಾರೀ ನಮನಮುನ್ಯಾಚೇಂ messages, ಬಣಬಣ್ಣಾಚೇಂ ಹೊಡ್ಡ ಸಾನ್ನ ಅಕ್ಷರಾಂನಿ ಬರಯಿಲಿಂ. ಥೋಡೀಂ ಹಾತ ಆಶ್ಶಿಲಿಂ ಥೋಡೀಂ ಹಾತ ನಾತ್ತಿಲಿಂ ಬಗ್ಲೇಕ matching pants, ಪಾಯ ಆಶ್ಶಿಲಿಂ ಆನಿ ಪಾಯ ನಾತ್ತಿಲಿಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ Bermudas ಆನಿ short pants ಹೊಡ್ಡಾಂಗಲಿಂ. ಉಂಚಾರೀ ಪೂರಾಯಿ ಮಾಳ್ಯಾಂ ಊಂಚ ಮಾಳ್ಯೋ ದುಕಾನಾಂ ವಯ್ರೀ ದುಕಾನಂಚೀ. ಬಗ್ಲೇಕ ಏಕೀ ಘೂವನು ಘೂವನು ವಚ್ಚಿ ಮಾಳೀ. ತೀ ಕಾರಾಂಕ ಊಂಚ ವ್ಹೋಚ್ಚುಕ. ಕಡೇ ಮಾಳ್ಯೇರಿ ಕಾರಾಂಕ ರಾಬ್ಬುಕ ಜಾಗೊ. ತ್ಯಾ ಕಾರಾಂಕ ತೋಗ್ಗು ವ್ಹೋಪಸ ಹಾಡುಕ ಆನೇಕ lift. ಜಾನಾಂಕ ಜಾಯ್ಶಿಲ್ಯಾ ಮಾಳ್ಯೇರೀ ಶೊಪಿಂಗ್ ಕೋರೂ ವ್ಹೋಚುಕ ಆನೇಕ lift.

ಆಮ್ಮಿ ಭಿತ್ತರಿ ಮಸ್ತ ಭೋಂವ್ಲೀಂ. ಗೋಮಟೊಚಿ ಚೆಂದು ಸಾಮಾನು ಆನಿ ಪಳಯಲೇಂ. ಪಳಯ್ಲೇಂ ಮಾತ್ರ ಇತೇಂ ಕಸ್ಲೇಂಯಿ ಘೇನಿ. ಮಾಗ್ಗೇರಿ ಥಂಯಿ ಏಕ ಸಾನ theatre ಆಸ್ಸ. ತಾಂತು ಸಿನೇಮಾ ಪೋಳೋವನು ಘಾರಾ ಯೇಂವಚ್ಯಾಕ ಭಾಯರ ಸರಲಿಂ. 'ತೀ' ಆನಿ 'ತೋ' ಚೇಂ ಝುಗಡೇಂ 'ತೇಂ' ಮೊಲ ಆನಿ 'ತೇಂ' ಸಿನೇಮಾ ಪೋಳೋನ ಬಂದ ಜಾಲ್ಲೇಂ. ಯೇತ್ನಾ ವಾಟ್ಟೇರಿ 'ತೋ' ಭೇಲೂ ಆನಿ 'ತೀ' ಪಾಣಿ ಪೂರೀ ಖಾವನೂ ಹಾಸ್ತಚಿ ಘಾರಾ ಆಯಲೀಂ.

---

## संक्रांतीची खुशाल

१ जानेवरीचें नवें वरस साजरें कर्नाफुडे येंवची परब म्हळ्यारी संक्रांती. संक्रांती आम्गल्या भारतांतु सग्ळकडे मस्त नमुन्याने साजरी करताती. संक्रांती म्हळ्यारी सूर्य मकर राशींतु प्रवेश करता तो दिवसु बहुतेक जनवरि १४ अथवा १५ तारखेक येत्ता. आमगल्या गांवांतु हाक्का 'मकर संक्रमण' म्हण्ताती. दक्षिण भारतांतुली जान हाक्का 'पोंगल' म्हण्ताती. मुगा डाळी आणि तांदुळु हाज्जि खिच्डी आनि तीळा उंड्यां नैवेद्य देवाक कोर्नु सक्डांक वांट्ताती. महाराष्ट्रांतु नवें लग्न जाल्लेल्यांक तेळगुळाचे दागिने कोर्नु हळद कुंमकुंम करताती. हाज्जो मुख्य उद्देश्य 'म्हळ्यारी स्नेहवर्धन'. नवीन लोकांगलो त्या सुन्नेक गुर्तु जांवका म्होणु हाज्जें आयोजन. त्या सुन्नेक काळी चंद्रकळा दित्ताती. त्या दिवसाचे सूर्यकिरण (cosmic rays) आंगारी पळ्ळयारी चांग अश्शि पूर्वजांगाली भावना आस्स. हांग्गायि थंडी दिसांतु तिळगुळ कोर्नु वांट्चें शरीराक जायि आश्शिले Calcium आनि Iron मेळ्ता म्होणु. गुजरात दिक्काक पतंग उडोंवचें खेळयि आत्तंची खेळताती. आनेक म्हळ्यारी उत्तरायण सूरू जात्ता संक्रांती धोर्नुची. म्हळ्यारी दिवस होडु जात्ता. संक्रांतीच्या तिळा उंड्यांतु तीळु गोड आणि याळ आस्ता. हे उंडे कोर्नु वांट्चे प्रीतीचो संदेशु दिंव्च्याक. याळालो आनि तीळालो अश्शी एक गम्तीदार संवाद हांवे बरय्लो.

## याळालो आणि तीळालो संवादु

एक फांत्तां संक्रांती वेळारी मगल्या भयणीक तीळगुळ दिंव्यां म्होणु मगल्या पर्सांतु तिळगुळांचे packet घालनु भायर सरलीं. घराक बीग घालतां म्हण्तना मगली सान्पणी friend, foreign थावनु आयिली माक्का पोळोंच भित्तरी 'अरे! तूं भाग्र वत्त वे? चांग जाल्लें हांव आत्तंची आयलीं. हांवं तुक्का हें याळांचें packet दिंव्यां म्होणु अयिलीं गो' म्होणु याळांचे एक packet मगल्या हात्तांतु दीवनु वोच्चु भाग्र सर्ली. हांवें भित्तरी यो म्हळ्ळेरी 'नाच्चि' म्हणाली. ' भाग्र taxi wait कर्ता.

आयतारा day spend कोरु येत्ता ' म्हॊणु promise कोर्नु ' Bye Bye ' कर्त वचुगली. हांवे तें याळां packet मगल्या पर्सांतु घाल्लें आनि बस स्टॊपारी वचुगली. फॊरिन्च्या याळांगली आनि भारतांतुल्या तीळांगली ही first भेटी. तरी ते कसलें उल्लयले म्हॊणु आयकुयां वे?

याळू : 'Hi Guys! What are you people doing here?' (म्हणालो एक्ळो याळु smile कर्तची.)

तीळू : नमस्कारु तुक्का आम्चीगले येना वे?' (म्हणालो एक्ळो तिळगूळू उट्टावनु राब्बुनु )

याळू : येत्ता की. अमॆरिकेंतु आश्शिलतकी भानपांगरीचि आशिलमिर्ति आम्मि कोंकणीची आनि आम्कां कोंकणी सम कळता उल्लोंच्याकयि येत्ता. तुम्मि खंयि cricket खेळूक भाग्र सर्ल्यांती वे धंवों dress घाल्नु घेवनु?

तीळु : ना बा. आम्मि वर्सा एक फांत्तां संक्रांति वेळारि धंवों dresss घाल्नु साखरे coating कोर्नुघेल्नु सक्डांकयि 'गॊड्ड उल्लयाती' हो संदेशु दिंवच्याक सक्डांगेरी वत्ताति. हो आमगलो हांगाचो संप्रदायु.

याळू : ऒ हो!

तीळु : तें आस्सो. तुम्मि हांगा कश्शि आनि केन्ना आयले?

याळू : आम्मि वे? पय्रीचि आयले अमेरिकां थाव्नु.

तीळु : तें कळ्ळेंचि तुम्गले घमघमी सेंट हुंगनाफुडे आनि तुम्गले grand suit पळयनाफुडे. कस्लें कर्तालिं तुम्मि थंयि?

याळू : आम्मि वे? एक हॊड्ड AC स्टॊरांतु आश्शिलिं. थंयि आमकां बैसुक गोम्टीं cubicles आश्शिलिं (cubicles म्हळ्ळारि गोम्टे plastic चे डब्बे) आनि मस्त भायलें गांवचे जांन येवनु अम्कां pick कोर्नु व्हर्तालिं. आम्मि all over the world भो popular आसति आनि कोणाकयि कस्लेंयं गोडशे कर्तना आमगले help जांवकाचि पड्ता पळे.

ाळु : तें व्हयि रे. आमगले लेक्तलेयि मस्त जणं संक्रांति वेळारी वत्ताति wish कोरूक, तेऽ तुगले भाषेने all over the world कव्हरांतु बैसुनु, via, post office, प्लेनारी वत्ताति ते.

ाळू : व्हयि वे? आम्मलीयि। मस्त लेक्तलिं आस्सति की हांगायि.

ोळू : गोत्तस्स जाल्यारि ते साय्झाने तुम्च पाशि चुळूक आसति

ाळू : तुम्मि बाकी वेळारि हांग्गा कल्लें करताती?

ोळू : आम्मि वे? एक होड्ड बाटलेंतु दाणेवाल्यागल्या आंग्डींतु बैसुनु येंव्चें वोच्चें traffic पळय्ताति. कोणयि गिराय्क आयल्यारि दाणेवाल्यागल्या मुष्टें थावनु कागदाच्या खोट्यांतु उड्की मार्नु वत्ताति ताज्जे सांगाती तागल्या घारा.

याळू : कारारी की बस्सारी? आम्का थंयि AC कारारीचि भोवनु हांग्गा बस्सारी suffocate जाल्लवारि जात्ता सायबा.. कित्ली पुणी गर्दी traffic pollution आस्स हांग्गा.

तीळू : अरें! तशिश म्हळ्यारि कशिश जायद? तुम्मि अजुनि कस्लाचियि रुचि सुद्धांयि पळयनी. आम्मि हांग्गा मस्त improvements कर्त आसति.

याळू : म्हळ्यारी?

तीळू : म्हळ्यारी..... दाणेवाल्याली खब्बरी ती १०-२० वर्सा माक्षिचि. तावळी आम्मि कशिश त्या बाटलेंतु नोळैत बस्ताली की बा. आत्तं हांग्गा मस्त सुधारणा जाल्याती. बाट्ल्यो पुरायि retire जाल्याति. गोम्टी होड्ड malls, super-markets, stores आयल्यांती.

याळू : म्हळ्यारी? थंच्चे म्हणकेचि वे?

तीळू : थंच्च पशि better. आम्मि पुळ्ळ म्हणके मात्त्ये सांग्गाती बैसनाति आत्तं. फुडे आमका पळयल्यारि जान नांक्काक निर्यो घालतालीं तीळांतु मात्ती रेवं आस्स म्होणु. आत्तं आम्मि vibrator आंतु वोचुनु polish जावनु ब्यूटि पार्लरांतु

थावनु भायर पळ्ळेलेंवारी. गोम्टे जावनु तुंवें म्हळ्ळेलवारी cubicles आंतु बस्ताती malls अथवा स्टोरांतु.

याळ : शाब्बास्!! तावळि आत्तं तुम्मि मस्त modern जाल्यांति न्हवे? जाल्यारी आत्त तुम्गलि activity कस्ली.

तीळु : भरपूर active जाल्यांति आम्मि. आम्गल्या आजुबाजुक आत्त मस्त friends आसति आम्का.

याळ : Friends म्हळ्यारी?

तीळू : म्हळ्यारी वटाणे फुटाणे तळ्ळेले शेंग्दाणे आम्गल्या सांगातीच बाजुक बस्ताती. वटाण्यांक आणि शेंग्दाण्यांक तांतुयि sports भो प्रीती.

याळू : Sports? कस्लें?

तीळू : Race लांवचें रे! चिके packet open केल्लें की हांव मुखारि की तूं मुखारी म्होणु उड्डुनु धांवताति ते त्तोग्गु. इत्लें मात्र न्हयि म्हांतार्यांगल्या हात्तां थावनु तोंड्डांतु basket ball शे उड्ताती ते. आमका फुडे तो गोड्ड्डा चिट्टो आनि ती साखर मात्र आप्त आशिलि. आत्तं Mr. काय्रसु आनि Mrs. पुळी कोद्देल तांच सांगाती spend कोरुक तात्तावळि आपयताती आमका.

याळू : म्हळ्यारी तुम्गलो मस्त भाव वाड्ला.

तीळू : तें आस्सो. तुम्गले friends circle आंतु कोण आसती?

याळू : मस्त जणं आसति. जाल्यारि खास म्हळ्यारि ती पंचकदायी आणि ती खीरी. जाल्यारी एकएक फांत्तां ती खीरी बदाम पिस्ता ऐकेयि वेनिला सांगाती वत्ता.

तीळू : एक सांगुक विसर्ले रे.

याळू : कस्लें?

तीळू : फुडे दार्लेचि चड खरेदीक येत्ताले. आत्तं गोम्टयो बायलो आणि चल्ल्यो चड येत्ताति shopping कोरुक सामान व्होरूक. त्यामितिं आमका कारारी मात्र न्हयि टू व्हीलर्सांरी

बैसुक चान्स मेळता. शिवायि.......

तित्ल भित्तरी मगल बस्स ड्रायवराने बस्साचें break घाल्लें ानि बस्स गज्जकने राबले. पळयल्यारि red signal आशिलें आनि हें ग्नल मगल्या भयणीगल्या घरा लाग्चेंचि. हांवें वग्गि वग्गि मुखारि ोचुनु तोग्गु दवनु सोळ्ळे. तोग्गु देंवच्या गडबडींतु मगल पर्स बस्साच्या ोडाक जोराने लाग्लें आनि मगल्या पर्सा थावनु दोनि सान्न आवाज ायले. कस्लें जाल्लें बा म्होणु पळयल्यारी पर्सांतु आशिल्या याळाने ानि तीळाने मात्त्यां मात्तें आदलावनु घेत्लें शें दिस्ता. माग्गेरी ोग्गयिजण एकळ्या एक्ळो पोळोनु हास्ताले! हांवंयि हास्लीं.

आद्दळ्ळें म्हणाफुडे माक्का एक आद्गती उग्डासु आय्ली. ांगुं?

एक उल्लयल्यारि ऊणें दोनि उल्लयल्यारी चड. देड उल्लोनु ोड कसल्या आद्लावनु घेंवका. आय्किल्यां की?

-----

## ಸಂಕ್ರಾಂತೀಚೇ ಖುಶಾಲ

೧ ಜಾನೇವರೀಚೇಂ ನವೇಂ ವರಸ ಸಾಜರೇಂ ಕರ್ನಾಫುಡೇ ಯೇಂವಚೇ ಪರ
ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ಸಂಕ್ರಾಂತೀ. ಸಂಕ್ರಾಂತೀ ಆಮ್ಗೆಲ್ಯಾ ಭಾರತಾಂತು ಸಗ್ಳೆಕಡೇ ಮಸ್ತ ನಮುನ್ಯಾನ
ಸಾಜರೀ ಕರತಾತೀ. ಸಂಕ್ರಾಂತೀ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ಸೂರ್ಯ ಮಕರ ರಾಶೀಂತು ಪ್ರವೇಶ ಕರತ
ತೊ ದಿವಸು ಬಹುತೇಕ ಜನವರಿ ೧೪ ಅಥವಾ ೧೫ ತಾರಖೇಕ ಯೇತ್ತಾ. ಆಮಗೆಲ
ಗಾಂವಾಂತು ಹಾಕ್ಕಾ 'ಮಕರ ಸಂಕ್ರಮಣ' ಮ್ಹಣ್ತಾತೀ. ದಕ್ಷಿಣ ಭಾರತಾಂತುಲೀ ಜಾ
ಹಾಕ್ಕಾ 'ಪೋಂಗಲ' ಮ್ಹಣ್ತಾತೀ. ಮುಗಾ ಡಾಳೀ ಆಣಿ ತಾಂದುಳು ಹಾಜ್ಜಿ ಖಿಚ್ಡೀ ಆ
ತೀಳಾ ಉಂಡ್ಯಾಂ ನೈವೇದ್ಯ ದೇವಾಕ ಕೋರ್ನು ಸಕ್ಡಾಂಕ ವಾಂಟ್ತಾತೀ. ಮಹಾರಾಷ್ಟ್ರಾಂತ
ನವೇಂ ಲಗ್ನ ಜಾಲ್ಲೇಲ್ಯಾಂಕ ತಿಳಗುಳಾಚೇ ದಾಗಿನೇ ಕೋರ್ನು ಹಳದ ಕುಂಕುಮ ಕರತಾತೀ
ಹಾಜ್ಜೋ ಮುಖ್ಯ ಉದ್ದೇಶ್ಯ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ಸ್ನೇಹವರ್ಧನ. ನವೀನ ಲೋಕಾಂಗಲೋ ತ್ಯಾ
ಸುನ್ನೇಕ ಗುರ್ತು ಜಾಂವಕಾ ಮ್ಹೋಣು ಹಾಜ್ಜೇಂ ಆಯೋಜನ. ತ್ಯಾ ಸುನ್ನೇಕ ಕಾಳಿ
ಚಂದ್ರಕಳಾ ದಿತ್ತಾತೀ. ತ್ಯಾ ದಿವಸಾಚೇ ಸೂರ್ಯಕಿರಣ (cosmic rays) ಅಂಗಾರಿ
ಪಳ್ಳಯಾರೀ ಬಾಂಗ ಅಶ್ಶಿ ಪೂರ್ವಜಾಂಗಾಲೀ ಭಾವನಾ ಆಸ್ಸ. ಹಾಂಗ್ಗಾಯಿ ಥಂಡಿ
ದಿಸಾಂತು ತಿಳಗುಳ ಕೋರ್ನು ವಾಂಟ್ಚೇಂ ಶರೀರಾಕ ಜಾಯಿ ಆಶ್ಶಿಲೇ calcium ಆಣಿ
iron ಮೇಳ್ತಾ ಮ್ಹೋಣು. ಗುಜರಾತ ದಿಕ್ಕಾಕ ಪತಂಗ ಉಡೋಂವಚೇಂ ಖೇಳಯಿ
ಆತ್ತಂಚೇ ಖೇಳತಾತೀ. ಆನೇಕ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ಉತ್ತರಾಯಣ ಸೂರೂ ಜಾತ್ತಾ ಸಂಕ್ರಾಂತಿ
ಧೋರ್ನುಚೇ. ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ದಿವಸ ಹೊಡು ಜಾತ್ತಾ. ಸಂಕ್ರಾಂತೀಚ್ಯಾ ತಿಳಾ ಉಂಡ್ಯಾಂತ
ತೀಳು ಗೋಡ ಆಣಿ ಯಾಳ ಆಸ್ತಾ. ಹೆ ಉಂಡೇ ಕೋರ್ನು ವಾಂಟ್ಚೇ ಪ್ರೀತೀಚೊ
ಸಂದೇಶು ದಿಂವ್ಚ್ಯಾಕ. ಯಾಳಾಲೋ ಆನಿ ತೀಳಾಲೋ ಅಶ್ಶೀ ಏಕ ಗಮ್ಮೀದಾರ ಸಂವಾದ
ಹಾಂವೇ ಬರಯ್ಲೋ.

### ಯಾಳಾಲೋ ಆಣಿ ತೀಳಾಲೋ ಸಂವಾದು

ಏಕ ಘಾಂತ್ತಾಂ ಸಂಕ್ರಾಂತೀ ವೇಳಾರೀ ಮಗಲ್ಯಾ ಭಯಣೀಕ ತೀಳಗುಳ
ದಿಂವ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಮಗಲ್ಯಾ ಪರ್ಸಾಂತು ತಿಳಗುಳಾಂಚೇ packet ಘಾಲನು ಭಾಯರ

ಶಲೀಂ. ಘಗಾಕ ಬೀಗ ಘಾಲ್ತಾಂ ಮ್ಹಣ್ತಾನಾ ಮಗಲೀ ಸಾನ್ಪಣೀ friend, foreign
ಹವನು ಆಯಿಲೀ ಮಾಕ್ಕಾ ಪ್ಹೋಳೋಂಚ ಭಿತ್ತರೀ 'ಅರೇ! ತೂಂ ಭಾಯ್ರ ವತ್ತ ವೇ?
ಬಂಗ ಜಾಲ್ಲೀಂ ಹಾಂವ ಆತ್ತಂಚೀ ಆಯಲೀಂ. ಹಾಂವಂ ತುಕ್ಕಾ ಹೇಂ ಯಾಳಾಂಚೇಂ
acket ದಿಂವ್ಯಾಂ ಮ್ಹೋಣು ಆಯಿಲೀಂ ಗೊ ಮ್ಹೋಣು ಯಾಳಾಂಚೇ ಏಕ packet
ಗಲ್ಯಾ ಹಾತ್ತಾಂತು ದೀವನು ವ್ಹೋಚು ಭಾಯ್ರ ಸರ್ಲೀ. ಹಾಂವೇಂ ಭಿತ್ತರೀ ಯೊ
ಬ್ಳೈರೀ ' ನಾಚ್ಚ' ಮ್ಹಣಾಲೀ. ಭಾಯ್ರ taxi wait ಕರ್ತಾ. ಆಯತ್ತಾರಾ day
pend ಕೋರು ಯೇತ್ತಾ ಮ್ಹೋಣು promise ಕೋರ್ನು 'Bye Bye' ಕರ್ತ
ಚುಗಲೀ. ಹಾಂವೇ ತೇಂ ಯಾಳಾಂ packet ಮಗಲ್ಯಾ ಪರ್ಸಾಂತು ಘಾಲ್ಲೀಂ ಆನಿ
ಸ ಸ್ಟೊಪಾರೀ ವಚುಗಲೀ. ಫೊರಿನ್ನಾ್ಯ ಯಾಳಾಂಗಲೀ ಆನಿ ಭಾರತಾಂತುಲ್ಯಾ
ಳಾಂಗಲೀ ಹೀ first ಭೇಟೀ. ತರೀ ತೆ ಕಸಲೀಂ ಉಲ್ಲಯಲೇ ಮ್ಹೋಣು
ಆಯಕುಯಾಂ ವೇ?

ಯಾಳೂ : "Hi Guys! What are you people doing here?"
(ಮ್ಹಣಾಲೋ ಏಕ್ಲೋ ಯಾಳು smile ಕರ್ತಚೀ.)

ತೀಳೂ : ನಮಸ್ಕಾರು ತುಕ್ಕಾ ಆಮ್ಮಿಗಲೀ ಯೇನಾ ವೇ?' (ಮ್ಹಣಾಲೋ ಏಕ್ಲೋ ತಿಳಗೂಳೂ ಉಟ್ಟಾವನು ರಾಬ್ಬುನು )

ಯಾಳೂ : ಯೇತ್ತಾ ಕೀ. ಅಮೆರಿಕೇಂತು ಆಶ್ಶಿಲತಕೀ ಭಾನಪಾಂಗರೀಚಿ ಆಶಿಲಮಿತಿಂ ಆಮ್ಮಿ ಕೋಂಕಣೀಚೀ ಆನಿ ಆಮ್ಗಾಂ ಕೋಂಕಣೀ ಸಮ ಕಳತ್ತಾ ಉಲ್ಲೋಂಚ್ಯಾಕಯಿ ಯೇತ್ತಾ. ತುಮ್ಮಿ ಖಂಯಿ cricket ಖೇಳೂಕ ಭಾಯ್ರ ಸಲ್ರ್ಯಾಂತೀ ವೇ ಧಂವ್ಹೋಂ dress ಘಾಲ್ನು ಘೇವನು?

ತೀಳು : ನಾ ಬಾ. ಆಮ್ಮಿ ವರ್ಸಾ ಏಕ ಘಾಂತ್ತಾಂ ಸಂಕ್ರಾಂತಿ ವೇಳಾರಿ ಧಂವ್ಹೋಂ dress ಘಾಲ್ನು ಸಾಖರೀ coating ಕೋರ್ನುಘೆವ್ನು ಸಕ್ಡಾಂಕಯಿ 'ಗೊಡ್ಡ ಉಲ್ಲಯಾತೀ' ಹೊ ಸಂದೇಶು ದಿಂವಚ್ಯಾಕ ಸಕ್ಡಾಂಗೇರೀ ವತ್ತಾತಿ. ಹೊ ಆಮ್ಗಲೋ ಹಾಂಗಾಚೋ ಸಂಪ್ರದಾಯು.

ಯಾಳೂ : ಒ ಹೊ!

ತೀಳು : ತೇಂ ಆಸ್ಸೋ. ತುಮ್ಮಿ ಹಾಂಗಾ ಕಶ್ಶಿ ಆನಿ ಕೇನ್ನಾ ಆಯ್ಲೇ?

ಯಾಳೂ : ಆಮ್ಮಿ ವೆ? ಪಯ್ರೀಚಿ ಆಯಲೇ ಅಮೇರಿಕಾಂ ಥಾವನು.

ತೀಳು : ತೇಂ ಕಳ್ಳೇಂಚಿ ತುಮ್ಗಲೇ ಘಮಘಮೀ ಸೇಂಟ ಹುಂಗನಾಫುಡೇ ಆನಿ ತುಮ್ಗಲೇ grand suit ಪಳಯನಾಫುಡೇ. ಕಸ್ಲೇಂ ಕರ್ತಾಲಿಂ ತುಮ್ಮಿ ಥಂಯಿ?

ಯಾಳೂ : ಆಮ್ಮಿ ವೇ? ಏಕ ಹೊಡ್ಡ AC ಸ್ಟೋರಾಂತು ಆಶ್ಶಿಲಿಂ. ಥಂಯಿ ಆಮಕಾಂ ಬೈಸುಕ ಗೋಮ್ಟಿಂ cubicles ಆಶ್ಶಿಲಿಂ (cubicles ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಗೊಮ್ಟೇ plastic ಚೇ ಡಬ್ಬೇ) ಆನಿ ಮಸ್ತ ಭಾಯಲೇ ಗಾಂವಚೇ ಜಾನ ಯೇವನು ಅಮ್ಕಾಂ pick ಕೋರ್ನು ವ್ಹರ್ತಾಲಿಂ. ಆಮ್ಮಿ all over the world ಭೋ popular ಆಸತಿ ಆನಿ ಕೋಣಾಕಯಿ ಕಸ್ಲೇಂಯಂ ಗೋಡಶೇ ಕರ್ತನಾ ಆಮ್ಗಲೇ help ಜಾಂವಕಾಚಿ ಪಡ್ತಾ ಪಳೆ.

ತೀಳು : ತೇಂ ವ್ಹಯಿ ರೆ. ಆಮಗಲೇ ಲೇಕ್ತಲೇಯಿ ಮಸ್ತ ಜಣಂ ಸಂಕ್ರಾಂತಿ ವೇಳಾರೀ ವತ್ತಾತಿ wish ಕೋರೂಕ ತೇಽ ತುಗಲೇ ಭಾಷೇನೇ all over the world ಕವ್ಹರಾಂತು ಬೈಸುನು, via, post office, ಪ್ಲೇನಾರೀ ವತ್ತಾತಿ ತೇ.

ಯಾಳೂ : ವ್ಹಯಿ ವೇ? ಆಮ್ಗಲೀಯಿ। ಮಸ್ತ ಲೇಕ್ತಲಿಂ ಆಸ್ಸತಿ ಕೀ ಹಾಂಗಾಯಿ.

ತೀಳೂ : ಗೋತ್ತಸ್ಸ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ತೇ ಸಾಯ್ಬಾನೇ ತುಮ್ಚ ಪಾಶಿ ಚುಳೂಕ ಆಸತಿ

ಯಾಳೂ : ತುಮ್ಮಿ ಬಾಕೀ ವೇಳಾರಿ ಹಾಂಗ್ಗಾ ಕಲ್ಲೇಂ ಕರತಾತೀ?

ತೀಳೂ : ಆಮ್ಮಿ ವೇ? ಏಕ ಹೊಡ್ಡ ಬಾಟಲೇಂತು ದಾಣೇವಾಲ್ಯಾಗಲ್ಯಾ ಆಂಗ್ಡೀಂತು ಬೈಸುನು ಯೇಂವ್ಚೇಂ ವೋಚ್ಚೇಂ traffic ಪಳಯ್ತಾತಿ. ಕೋಣಯಿ ಗಿರಾಯ್ಕ ಆಯಲ್ಯಾರಿ ದಾಣೇವಾಲ್ಯಾಗಲ್ಯಾ ಮುಷ್ಟೇಂ

ಥಾವನು ಕಾಗದಾಚ್ಯಾ ಖೊಟ್ಟ್ಯಾಂತು ಉಡ್ಕೀ ಮಾರ್ನು ವತ್ತಾತಿ ತಾಜ್ಜೇ ಸಾಂಗಾತೀ ತಾಗಲ್ಯಾ ಘಾರಾ.

ಯಾಳೂ : ಕಾರಾರೀ ಕೀ ಬಸ್ಸಾರೀ? ಆಮ್ಕಾ ಥಂಯಿ A C ಕಾರಾರೀಚಿ ಭೋವನು ಹಾಂಗ್ಗಾ ಬಸ್ಸಾರೀ suffocate ಜಾಲ್ಲವಾರಿ ಜಾತ್ತಾ ಸಾಯಬಾ. ಕಿತ್ಲೀ ಪುಣೀ ಗರ್ದೀ traffic, pollution ಆಸ್ಸ ಹಾಂಗ್ಗಾ.

ತೀಳೂ : ಅರೇಂ! ತಶ್ಶಿ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಕಶ್ಶಿ ಜಾಯದ? ತುಮ್ಮಿ ಅಜುನಿ ಕಸ್ಲಾಚಿಯಿ ರುಚಿ ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ಪಳಯನೀ. ಆಮ್ಮಿ ಹಾಂಗ್ಗಾ ಮಸ್ತ improvements ಕೆರ್ತ ಆಸತಿ.

ಯಾಳೂ : ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ?

ತೀಳೂ : ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ..... ದಾಣೀವಾಲ್ಯಾಲೀ ಖಬ್ಬರೀ ತೀ ೧೦-೨೦ ವರ್ಸಾಂ ಮಾಕ್ಷಿಚಿ. ತಾವಳೀ ಆಮ್ಮಿ ಕಶ್ಶಿ ತ್ಯಾ ಬಾಟಲೇಂತು ನೋಳ್ಳೈತ ಬಸ್ತಾಲೀ ಕೀ ಬಾ. ಆತ್ತಂ ಹಾಂಗ್ಗಾ ಮಸ್ತ ಸುಧಾರಣಾ ಜಾಲ್ಯಾತೀ. ಬಾಟ್ಲ್ಯೋ ಪುರಾಯಿ retire ಜಾಲ್ಯಾತಿ. ಗೋಮ್ಟೀ ಹೊಡ್ಡ malls, super-markets, stores ಆಯಲ್ಯಾಂತೀ.

ಯಾಳೂ : ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ? ಥಂಬ್ಚೇ ಮ್ಹಣ್ಕೇಚಿ ವೇ?

ತೀಳೂ : ಥಂಬ್ಚ ಪಶಿ better. ಆಮ್ಮಿ ಪುಳ್ಳ ಮ್ಹಣಕೀ ಮಾತ್ತ್ರೇ ಸಾಂಗ್ಗಾತೀ ಬೈಸನಾತಿ ಆತ್ತಂ. ಫುಡೇ ಆಮಕಾ ಪಳಯಲ್ಯಾರಿ ಜಾನ ನಾಂಕ್ಯಾಕ ನಿರ್ಯೋ ಘಾಲತಾಲೀಂ ತೀಳಾಂತು ಮಾತ್ತೀ ರೇವಂ ಆಸ್ಸ ಮ್ಹೋಣು. ಆತ್ತಂ ಆಮ್ಮಿ vibrator ಆಂತು ವೋಚುನ polish ಜಾವನು ಬ್ಯೂಟಿ ಪಾರ್ಲರಾಂತು ಥಾವನು ಭಾಯರ ಪಳ್ಳೇಲಿಂವಾರೀ. ಗೋಮ್ಟೆ ಜಾವನು ತುಂವೇಂ ಮ್ಹಳ್ಳೇಲವಾರೀ cubicles ಆಂತು ಬಸ್ತಾತೀ malls ಅಥವಾ ಸ್ಟೊರಾಂತು.

ಯಾಳ : ಶಾಬ್ಬಾಸ್!! ತಾವಳಿ ಆತ್ತಂ ತುಮ್ಮಿ ಮಸ್ತ modern ಜಾಲ್ಯಾಂತಿ ಸ್ಥವೇ? ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಆತ್ತ ತುಮ್ಗಲಿ activity ಕಸ್ಲೀ.

ತೀಳು : ಭರಪೂರ active ಜಾಲ್ಯಾಂತಿ ಆಮ್ಮಿ. ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಆಜುಬಾಜುಕ ಆತ್ತಂ ಮಸ್ತ friends ಆಸತಿ ಆಮ್ಕಾ.

ಯಾಳ : Friends ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ?

ತೀಳೂ : ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ವಟಾಣೇ ಫುಟಾಣೇ ತಳ್ಳೇಲೇ ಶೇಂಗ್ದಾಣೇ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಸಾಂಗಾತೀಚ ಬಾಜುಕ ಬಸ್ತಾತೀ. ವಟಾಣ್ಯಾಂಕ ಆಣಿ ಶೇಂಗ್ದಾಣ್ಯಾಂಕ ತಾಂತುಯಿ sports ಭೋ ಪ್ರೀತೀ.

ಯಾಳೂ : Sports? ಕಸ್ಲೆ?

ತೀಳೂ : Race ಲಾಂವಚೇಂ ರೆ! ಚಿಕೇ packet open ಕೇಲ್ಲೇಂ ಕೀ ಹಾಂವ ಮುಖಾರಿ ಕೀ ತೂಂ ಮುಖಾರೀ ಮ್ಹೋಣು ಉಡ್ಡುನು ಧಾಂವತಾತಿ ತೆ ತ್ತೋಗ್ಗು. ಇತ್ಲೇಂ ಮಾತ್ರ ಸ್ಥಯಿ ಮ್ಹಾಂತಾರ್ಯಾಂಗಲ್ಯಾ ಹಾತ್ತಾಂ ಥಾವನು ತೋಂಡ್ದಾಂತು basket ball ಶೇ ಉಡ್ತಾತೀ ತೆ. ಆಮಕಾ ಫುಡೇ ತೊ ಗೋಡ್ಡಾ ಚಿಟ್ಟೊ ಆನಿ ತೀ ಸಾಖರ ಮಾತ್ರ ಆಪ್ತ ಆಶಿಲಿ. ಆತ್ತಂ Mr. ಕಾಯ್ರುಸು ಆನಿ Mrs. ಪುಳೀ ಕೋದ್ದೇಲ ತಾಂಚ ಸಾಂಗಾತೀ spend ಕೋರುಕ ತಾತ್ತಾವಳಿ ಆಪಯತಾತೀ ಆಮಕಾ.

ಯಾಳೂ : ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ತುಮ್ಗಲೋ ಮಸ್ತ ಭಾವ ವಾಡ್ಲಾ.

ತೀಳೂ : ತೇಂ ಆಸ್ಸೋ. ತುಮ್ಗಲೇ friends circle ಆಂತು ಕೊಣ ಆಸತೀ?

ಯಾಳೂ : ಮಸ್ತ ಜಣಂ ಆಸತಿ. ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಖಾಸ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ತೀ ಪಂಚಕದಾಯೀ ಆಣಿ ತೀ ಖೀರೀ. ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಏಕಏಕ ಫಾಂತ್ತಾಂ ತೀ ಖೀರೀ ಬದಾಮ ಪಿಸ್ತಾ ಏಕೆಯಿ ವೆನಿಲಾ ಸಾಂಗಾತೀ ವತ್ತಾ.

ತೀಳೂ : ಏಕ ಸಾಂಗುಕ ವಿಸರ್ಲೇ ರೆ.

ಾಳೊ : ಕಸ್ಲೇಂ?

ಳೊ : ಫುಡೇ ದಾರ್ಲೆಂಚಿ ಚಡ ಖರೇದೀಕ ಯೇತ್ತಾಲೇ. ಆತ್ತಂ ಗೊಮ್ಟಯೋ ಬಾಯಲೋ ಆಣಿ ಚೆಲ್ಲ್ಯೋ ಚಡ ಯೇತ್ತಾತಿ shopping ಕೋರುಕ ಸಾಮಾನ ವ್ಹೋರೂಕ. ತ್ಯಾಮಿತಿಂ ಆಮಕಾ ಕಾರಾರೀ ಮಾತ್ರ ನ್ಹಯಿ ಟೂ ವ್ಹೀಲಸರ್ಾಂರೀಂ ಬೈಸುಕ ಚಾನ್ಸ ಮೇಳತಾ. ಶಿವಾಯಿ.......

ತಿತ್ಲ ಭಿತ್ತರೀ ಮಗಲ ಬಸ್ಸ ಡ್ರಾಯವರಾನೇ ಬಸ್ಸಾಚೇಂ break ಘಾಲ್ಲೇಂ ಆನಿ ಸ್ಸ ಗಜ್ಜಕನೇ ರಾಬಲೇ. ಪಳಯಲ್ಯಾರಿ red signal ಆಶಿಲೇಂ ಆನಿ ಹೇಂ ಸಿಗ್ನಲ ಗಲ್ಯಾ ಭಯಣೀಗಲ್ಯಾ ಘರಾ ಲಾಗ್ಚೇಂಚಿ. ಹಾಂವೇಂ ವಗ್ಗಿ ವಗ್ಗಿ ಮುಖಾರಿ ವ್ಹೋಚುನು ೋಗ್ಗು ದೇವನು ಸೋಳ್ಳೇ. ತೋಗ್ಗು ದೇಂವಚ್ಯಾ ಗಡಬಡೀಂತು ಮಗಲ ಪರ್ಸ ಬಸ್ಸಾಚ್ಯಾ ೂಡಾಕ ಜೋರಾನೇ ಲಾಗ್ಲೇಂ ಆನಿ ಮಗಲ್ಯಾ ಪರ್ಸಾಂ ಥಾವನು ದೋನಿ ಸಾನ್ನ ಆವಾಜ ಯಲೇ. ಕಸ್ಲೇಂ ಜಾಲ್ಲೇಂ ಬಾ ಮ್ಹೋಣು ಪಳಯಲ್ಯಾರೀ ಪರ್ಸಾಂತು ಆಶಿಲ್ಯಾ ೂಳಾನೇ ಆನಿ ತೀಳಾನೇ ಮಾತ್ತ್ಯಾಂ ಮಾತ್ತೇಂ ಆದಲಾವನು ಘೇತ್ಲೇಂ ಶೇಂ ದಿಸ್ತಾ. ಾಗ್ಗೇರೀ ದೋಗ್ಗಯಿಜಣ ಏಕಳ್ಯಾ ಏಕ್ಯೋ ಪೋಳೋನು ಹಾಸ್ತಾಲೇ! ಹಾಂವಂಯಿ ಹಾಸ್ಲೇಂ.

ಆದ್ದಳ್ಳೇಂ ಮ್ಹಣಾಫುಡೇ ಮಾಕ್ಕಾ ಏಕ ಆದ್ಗತೀ ಉಗ್ಡಾಸು ಆಯ್ಲೇ. ಸಾಂಗುಂ?

ಏಕ ಉಲ್ಲಯಲ್ಯಾರಿ ಊಣೇಂ ದೋನಿ ಉಲ್ಲಯಲ್ಯಾರೀ ಚಡ. ದೇಡ ಉಲ್ಲೋನು ಬೋಡ ಕಸಲ್ಯಾ ಆದ್ಲಾವನು ಘೇಂವ್ಕಾ. ಆಯ್ಕಿಲ್ಯಾಂ ಕೀ?

-----

# कोंकणी भाषेंतुले गम्मति सोदयां

आजि हांवं तुमकां सुर्वेक एक गम्मति सांग्तां. आय्कुयां हं........

' हाय्ला! Mummy what a surprise! वग्गिग यो पळे हांग कोण आयल्यां म्होणु. 'बाग्लांतु राब्बिल्या माक्का पोळोव्नु Chris म्हणालो. हांवें सुमार दोनि वर्सां नंतर वोच्चें तांगल घारा. माक्क पोळोनु ताक्का कित्ल खुशी जाल्लि ती तागल्या 'हायला' शब्दारी थावन आनि तोंड्डारी थावनु स्पष्ट दिसुनु येत्तालें. त्या Chris गलें नांवं बद्दि किसन म्होणु. तागल्या अज्जेक कृष्ण् म्हळ्यारि प्रीती म्होणु तिन्ने ताक्क हें नांवं घाल्लेलें खंयि. तें आत्तं Chris जाल्लें. Chris ने सान आस्तन आम्मि दिल्लींतु वोटुचि शेजार शेजारा राबतालिं.

ताने 'मम्मी' म्हळ्ळलें आयकुनु वृंदा तागलि मम्मी किच्चन टॉवेलाक हात पुसुनु घेत्तचि भाय्र आयली आनि माक्का पोळोनु 'केन्न आयली पाच्ची अमेरिका थावनु' म्हण्तचि माक्का हात्ता धोर्नु भित्तरी व्हॊर्नु सॊफारी बसयली. 'बय्स पाच्ची तान्ने उद्दा हाड्तां' म्होणु घुंवतना तिगल्य माक्षि already पेल्यांतु उद्दा घेव्नु आय्यिल्या Chris क तिगल हातु लाग्गुनु थोडें उद्दाक तोग्गु पळ्ळें.

'Oops' म्हणालीं दोग्गयि वोटुचि. 'हगुर मां' म्हणतचि हांवे तागल्या हात्तां थावनु पेलो घेवनु उद्दाक पिल्लिं तान्नि sorry म्होण्चे फुडेचि. माग्गेरि आम्मि अशीचि उल्लयत बसलीं. फक्कने मगलें लक्ष Chris गल्या पाय्यारि बांदिल्या pink bandage री गेल्लें. 'कस्ले जाल्लें रे पाय्याक? तंट्टे केल्ले वे की मस्ती केल्लि?' म्हळ्ळें हांवें.

'ना पाच्ची. I fell down. अशीचि bore जाल्लें म्होणु ball खेळुक वचुगेलों. खेळतन मगल leg twist जाल्लें आनि I fell म्हणालो Chris.

'जोरु लागलें वे मां?'

'ना पाच्च्चे knee क चिके bruise जाल्लें आनि ankle twist
ल्लें' म्हणालो.

'ओ हो. पाय मुरडलो दिस्ता' म्हळ्ळें हांवें. 'मुडरलें म्हळ्यारि
ल्लें? what's that?' म्हणालो Chris आश्चर्याने.

माक्का आनि वृंदाक जोरू हासो आयलो. 'मुडरलें न्हयि रे
रडले' म्हळ्यारी twist जाल्लें म्होणु. हो आमचीगलो शब्दु म्हळ्ळें
वें. 'Wow! हांवें केन्नायि अयकनि हो शब्दु ' म्हणालो Chris
स्तचि.

हाज्जेरि थावनु सुरू जाल्लें विचारचक्र मगलें. आम्मि उल्लोंचि
ोंकणी भास अनि आत्तां चेल्डवांनि उल्लोंचे कोंकणींतु मस्त फरक
ायल्या. आत्तं आमगल कोंकणी जानं मस्त वाड्ल्यांती आनि तशीचि
ाम्गाली कोंकणी भासयि सगळे जगांतु पसरनु वाड्ल्या हौडि जाल्या.
या शिवाय हांग्गा आनि परदेशांतु सुद्धांयि आर्तांतु कोंकणी सम्मेलन
ास्त जात्ताति. आनि असल्या अंतर राष्ट्रीय सम्मेलनांक सगळ जगांतलीं
हळ्यारी America, England, Arab, Countires, Africa,
Malaysia इत्यादि देशांतुलिं कोंकणी उल्लयतलिं जानं थायि प्रीतीने
आदराने येत्ताति भाग घेत्ताति. इत्ले मात्र न्हयि शुद्ध कोंकणीने
उल्लयताति. शिवाय पुरायि परबो आर्तांतु जानं सक्ड वोटु मेळ्ळु हांग्गा
आनि थंयि साजरे करताती. जाल्मितिं एक्ळ्यां एक्ळीं मस्त फांत्ता
मेळ्ताति आनि एक दुसर्यांक प्रीति आदर करताति आपसांतु उल्लय्ताति.

माक्का एक दिसुनु येत्ता कस्लें म्हळ्यारी आम्मि फुडे उल्लोंचें
कोंकणी आनि आयचें कोंकणि विंगड आस्स. इत्याक की म्हळ्यारि त्या

कोंकणींतु English शब्द नाशिले पुरायि कोंकणीचि British राज्य आशिलमितिं एक दोनि खंयि पुणि आस्ताले. आत्तांच्या आम्गल्या भाषेंतु इत्ले मस्त English आनि इतर भाषेचे शब्द मिसळल्याती की आम्गल्या भाषेचे शब्द सोद्काति तांतु. एकेकळीं एकेक नमुन्यारी उल्लयताती कळत नकळत मस्त दुसर्या भाषेंतुले शब्द तांतु मेळ्नु एकजीव जाल्याती हाज्जमितिं आम्गल भास मस्त पसरल्या जाल्यारी मस्त बदलल्या.

आम्मि सक्डांनी आत्तं उल्लोंचे कोंकणींतु Chris ने उल्लयलवारि English शब्द घालनु उल्लयताती. नित्यांतु उल्लोंच्या उत्रांतु सुद्धांयि breakfast, lunch, butter म्हण्ताति. Fruits ( फल ) तरि watermelon, pineapple, grapes, guava, orange जाल्यांती अवनास द्राक्ष सोनारिंग संत्र बच्चंग हे सक्ड शब्द खंयि निप्ल्याती की आयकुक येनाति. आम्मि फुडे काप्पड किर्गणो चोळी म्हण्तालीं. त्या जाग्यारी आत्तं gowns, jeans, T-shirts आयल्यांती.

'मार्केट' हो शब्दु British आंगल काला धोर्नु आस्स. हाज्जि एक गम्मती सांग्तां. फुडे आम्गल्या वेळारी गांवांतु 'सांत' एकयि 'पॅन्ट' म्हण्तालीं मार्केटाक. आनि बाप्सुक 'आनु' अश्शि म्हण्तालीं. कोणयि येवनु 'आनु खंयि आस्स? म्हळ्यारी 'पॅन्टांतु वचुगला' म्हण्तालीं तागले चेल्डवं. त्या वेळारी 'पॅन्ट' म्हळ्यारि market आशिलें. जाल्यारी घाल्नु घेंवचीं 'pant' नाशिलिं. सक्ड दार्ले वेष्टी टॊप्पि शर्ट घाल्नु घेत्तालीं. 'पॅन्ट' घाल्तले pappas आनि suit घाल्तले Daddys माग्गिरि आयले. आनि आत्तं तेंवयि Dad एकयि Dado जाल्याती.

एक सान चल्लो आवसुक निम्मिता 'हांवं केन्ना born जाल्लों म्हॊणु. बद्द पळयल्यारी आम्गल्या भाषेंतु प्रती एक्काक शब्द भरपूर आसति. आम्मिचि ताज्जो उपयोग कर्नाति. एक फांत्तां आम्मि एक लग्न वचुगलेलिं. थंयि ice-cream वांट्तालिं. एक सान चल्लो ice-cream

ice-cream अशि म्हणालो. बाप्पुने ताक्क म्हळ्ळें 'तूं अशि ल्लें कर्ता उब्जत धोर्नु ice-cream पळयनी वे?' म्हळ्ळे. त्या चल्याने ce-cream शब्दु विसोर्नु 'उब्जत उब्जत' म्होणु सुरू केल्लें. अशि हणतचि तो खांवचें ice-cream थायि विसरलो. हो नवो शब्दु ताक्का स्त आवड्लो दिस्ता.

- - -

आम्चीगल शब्द आम्मि वापरनातिलें एकयि खंच्याक कस्लें म्हणताति तें सांग्गनातिलमिर्ति मस्त शब्द विसोर्नु गेल्याति किंवा मुळांपळ्याति. उत्रांमितिंचि भास शिकुक ससार जात्ता. गोत्नाशिले शब्द ताज्जो अर्थु सक्ड कळ्ता. आम्गेरी एकळो मामु येत्तालो फुडे. तान्ने आयल की आम्मि सक्ड कामं खेळू सोण्णु ताने उल्लयतना आयकुंच्या बस्तालीं. आम्मा गौजी घालीद म्होणु हात्तांतु बुक धोर्चे दोळे बुकारि जाल्यारी कान तागल्या उत्रांरी. इत्याक म्हळ्यारी तो उल्लयतना मस्त आद्गत्यो म्हण गम्तीदार शब्द सक्ड सहजची उपयोग करतालो. उदारणेक

१. कोणयि एक्ळो राबला जाल्यारी 'एक मोळो' एकयि 'एक जीव सदशिव' म्हण्तालो.

२. कोण पळे दुसर्यांनि कित्लेंयि सांग्ल्यारी सुधारना तावळी 'उम्ती कळश्यारी उद्दाक' एकयि 'वार्यारी पळ्ळेले शीत शें' अशि म्हण्तालीं. शीत धांकनास्तना वार्यारी घाल्यारी जेंवच्याक जायना कांटोसो जात्ता.

३. कोणयि भो झग्डाळ आसल्यारी 'झग्डाळ कोंब्बो' आनि दुसर्यांक झग्डावनु घाल्यारी 'नारद मुनि' एकयि मात्त्य मात्या गांट्यो घालता' अशी म्हण्तालीं.

४. कस्ल्याची पुणि आशा दाक्कोनु तें दीनातिलेंचि काम कोरोनु घेत्ल्यारी 'कोपराक म्होवु लायता' म्हण्तालीं. म्होवु कोपराक लायल्यारी लेंवचें कशि.

५. दुसर्यांक किडायल्यारी 'सुण्या तोंडांतु बड्डी घाल्नाका' म्हण्ताली.

ह्यो सक्ड म्हण्यो जाल्यो. आत्तं आद्गती आय्कुंया........

१. सुणें आशिल तावळी बड्डी ना बड्डी आशिल तावळी सु ना. अर्थु अनुकुल आशिल तावळी कर्नि. कोर्का म्हळ्ळ तावळि अनुकु ना. अनुकुल म्हळ्यारि opportunity.

२. सर्पु धांव्ता म्होणु गांयडुळाक धांवचा जात्ता वे अर्थु आण्णा जायनातिलें कोरूक वोच्चु नये.

३. आंगारी कस्लेंयि पळ्यारी तें तशीचि पुसुनु उड्डोंच बद्ला हात्ताने आप्पोणु नांक्काने हुंग्गुनु पोळोंचें. आंगाक हात्ताक आनि नांक्का तीनिकडे कोरचें... हाक्का बुद्वन्ता तीनिकडे व्होण्चें. कडेरची आद्गत

४. 'मांकडा हात्तांतु माणिक दिल्लवारी' अर्थु कोणाक कस्ल्याच value ना कि ताक्का तें दीवनु उपयोग ना.

आत्तं आम्मि कल्लें कर्ताती पोळोंयां......

पिकनिकाक आम्मि वत्ताति पळे त्या वेळारी आम्कां मस्त वे आस्ता खेळ खेळूक. तावळी दोनि मिनिटं शुद्ध कोंकणिंतु उल्लोंका म्हो आम्मि खेळ्ताती. हाक्का चिके बदल कोर्नु आम्गल भाषेंतु मस नमुन्याचे शब्द आसति ताज्जे उपयोग कोरूक जात्ता. जोड शब म्हळ्यारी दाळि-शीत कप-बशि वडी-पाप्पड हात-पाय वगैर. तशीचि विरूद्धा शब्द म्हळ्यारी opposites उप्राटी-सुप्राटी ऊंच-तग्गु भित्तरी भाग्र अस्ले सक्ड. कोणाकयि एकळ्यांक सांगुक सांग्चें दुसरीं सहजचि सांग्गु सुरू करताती. अश्शि खेळ्यारी आम्गल शब्दांचें भंडार वाड्ता.

आत्तं कडेरी एक कोंकणी खेळु सांग्ता. पांच स चल्ल्यांनि ए गोल कोर्नु बोस्चें. माग्गेरि सक्डांनि तांगलि दोन्नि हात एक्का ऊंच ए उम्ती दवोर्चे नेलारि मद्देंतु. तावळी मद्देंतु हात्तांचो एक तेरू जात्ता आनि ह पद म्होणचें

अपानंदा तपानंदा तायकीळ्याची भाज्जि नंदा

ओ नंदा हतनंदा एक हात खांद्यारी

तावळि सक्ड गोल बशिल्यां तांगलो उज्वे हातु उज्वे दिक्काक आशिल्यांगल्या खांद्यारी दवर्चो. वोपस दुसरे फांता तेंचि पद म्होणचे आनि डावो हातु डावो दिक्काने आशिल्यांगल्या खांद्यारी दवोरचो. आत्तं बशिल चल्ल्यांगलें गोम्टेचि साखळीशी circle जात्ता.

आत्तं दुसरें पद...........

गुड्डू गुड्डू मलका पीट वाट्टुनु काल्लोंका
पिट्टांतु पळ्ळो बरडु कोणालें मात्तें खरडू

हें पद म्होण्चें. तावळी सक्डांनि रगड्या दाणो सो धोलचें उरूट उरूट. माग्गेरि सक्डांनि हास्तचि धोल्चें. कोण पडताती की तांगले मात्तें खरडू म्होणु.

आत्तं आम्गल्या भाषेंतुल गम्मित थोडी तुम्मि आयकली. आनि मस्त काव्यं पदं खेळ लेखन सग्ळे भरपूर बोरोयां मुखारी. भाषेंतु केन्नायि बदल जात्त आस्ता. ती हॉडि जात्ता प्रसिद्ध जात्ता. जाल्यारी आम्मि तिक्का वापरनातिले दुर्लक्ष केल्यारी ती भास क्षीण जात्ता एकयि नाचि जात्ता मस्त वर्सांनि. आम्गालि प्रीती स्वाभिमान दवोर्नु आम्मि तिक्का उपयोग केल्ल्यारी तांतुल्या शब्दांची माहिति तांगलि भाव भावना मधुरता उच्चार सम वापर केल्यारी कोरूक शिक्ल्यारि त्या भाषेचि गोम्टायि उठाव्नु दिस्ता. भाशेचि गोडी उत्पन्न जात्ता. ही गोडी चेल्डवांनि सान्न आस्तना धोर्नुचि तांक्का लाग्गय्ल्यारि मात्र तीं केन्नायि मातृ भाषा विसरनाती. आनि भाषे दिक्काने दुर्लक्ष्य करनाति. आम्गलें चेल्डपण आम्मि कश्शि विसरनाती की तशीचि भासयि विसरनाति. उलट अभिमान पाव्ताती. कित्ली गम्मति आरस न्हयि आम्गल्या भाषेंतु!!

---

## ಕೋಂಕಣೀ ಭಾಷೇಂತುಲೀ ಗಮ್ಮತಿ ಸೋದಯಾಂ

ಆಜಿ ಹಾಂವಂ ತುಮಕಾಂ ಸುರ್ವೇಕ ಏಕ ಗಮ್ಮತಿ ಸಾಂಗ್ತಾಂ. ಆಯ್ಕುಯಾಂ ಹಂ........

'ಹಾಯಲಾ! Mummy what a surprise! ವಗ್ಗಿ ಯೊ ಪಳೇ ಹಾಂಗಾ ಕೊಣ ಆಯಲ್ಯಾಂ ಮ್ಹೊಣು. 'ಬಾಗ್ಲಾಂತು ರಾಬ್ಬಿಲ್ಯಾ ಮಾಕ್ಕಾ ಪೋಳೋವ್ನು Chris ಮ್ಹಣಾಲೋ. ಹಾಂವೇಂ ಸುಮಾರ ದೋನಿ ವರ್ಸಾಂ ನಂತರ ವೋಚ್ಚೇಂ ತಾಂಗಲ ಘಾರಾ. ಮಾಕ್ಕಾ ಪೋಳೋನು ತಾಕ್ಕಾ ಕಿತ್ಲ ಖುಶೀ ಜಾಲ್ಲಿ ತೀ ತಾಗಲ್ಯಾ 'ಹಾಯಲಾ' ಶಬ್ದಾರೀ ಥಾವನು ಆನಿ ತೊಂಡಾರೀ ಥಾವನು ಸ್ಪಷ್ಟ ದಿಸುನು ಯೇತ್ತಾಲೇಂ. ತ್ಯಾ Chris ಗಲೇಂ ನಾಂವಂ ಬದ್ದಚಿ ಕಿಸನ ಮ್ಹೋಣು. ತಾಗಲ್ಯಾ ಅಜ್ಜೇಕ ಕೃಷ್ಣ್ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಪ್ರೀತೀ ಮ್ಹೋಣು ತಿನ್ನೇ ತಾಕ್ಕಾ ಹೇಂ ನಾಂವಂ ಘಾಲ್ಲೇಲೇಂ ಖಂಯಿ. ತೇಂ ಆತ್ತಂ Chris ಜಾಲ್ಲೇಂ. Chris ನೇ ಸಾನ ಆಸ್ತನಾ ಅಮ್ಮಿ ದಿಲ್ಲೀಂತು ವೋಟುಚಿ ಶೇಜಾರ ಶೇಜಾರಾ ರಾಬತಾಲಿಂ.

ತಾನೇ 'ಮಮ್ಮೀ' ಮ್ಹಳ್ಳಲೇಂ ಆಯಕುನು ವೃಂದಾ ತಾಗಲಿ ಮಮ್ಮೀ ಕಿಚ್ಚನ ಟೊವೇಲಾಕ ಹಾತ ಪುಸುನು ಘೇತ್ತಚಿ ಭಾಯ್ರ ಆಯಲೀ ಆನಿ ಮಾಕ್ಕಾ ಪೋಳೋನು 'ಕೇನ್ನಾ ಆಯಲೀ ಪಾಚ್ಚೀ ಅಮೇರಿಕಾ ಥಾವನು' ಮ್ಹಣ್ತಚಿ ಮಾಕ್ಕಾ ಹಾತ್ತಾ ಧೋರ್ನು ಭಿತ್ತರೀ ವ್ಹೋರ್ನು ಸೊಫಾರೀ ಬಸಯಲೀ. ' ಬಯ್ಸ ಪಾಚ್ಚೀ ತಾನ್ನೇ ಉದ್ದಾ ಹಾಡ್ತಾಂ' ಮ್ಹೋಣು ಘುಂವತನಾ ತಿಗಲ್ಯಾ ಮಾಕ್ಷಿ already ಪೆಲ್ಯಾಂತು ಉದ್ದಾ ಘೇವ್ನು ಆಯ್ಯಿಲ್ಯಾ Chris ಕ ತಿಗಲ ಹಾತು ಲಾಗ್ಗುನು ಥೋಡೇಂ ಉದ್ದಾಕ ತೋಗ್ಗು ಪಳ್ಳೇಂ.

'Oops' ಮ್ಹಣಾಲೀಂ ದೋಗ್ಗಯಿ ವೋಟುಚಿ. 'ಹಗುರ ಮಾಂ' ಮ್ಹಣತಚಿ ಹಾಂವೇಂ ತಾಗಲ್ಯಾ ಹಾತ್ತಾಂ ಥಾವನು ಪೇಲೊ ಘೇವನು ಉದ್ದಾಕ ಪಿಲ್ಲಿಂ ತಾನ್ನಿ sorry ಮ್ಹೋಣ್ಚೇ ಫುಡೇಚಿ. ಮಾಗ್ಗೇರಿ ಅಮ್ಮಿ ಆಶೀಚಿ ಉಲ್ಲಯತ ಬಸಲೀಂ. ಫಕ್ಕನೇ ಮಗಲೇಂ

ಸ್ Chris ಗಲ್ಯಾ ಪಾಯ್ಯಾರಿ ಬಾಂದಿಲ್ಯಾ pink bandage ರೀ ಗೇಲ್ಲೇಂ. 'ಕಸ್ಲೇಂ
ಜಲ್ಲೇಂ ರೆ ಪಾಯ್ಯಾಕ? ತಂಟಿ ಕೇಲ್ಲೇ ವೇ ಕೀ ಮಸ್ತೀ ಕೇಲ್ಲಿ?' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಹಾಂವೇಂ.

'ನಾ ಪಾಚ್ಚೀ. I fell down. ಅಶೀಚಿ bore ಜಾಲ್ಲೇಂ ಮ್ಹೋಣು ball
ಖೇಳುಕ ವಚುಗೆಲೋಂ. ಖೇಳತನ ಮಗಲ leg twist ಜಾಲ್ಲೇಂ ಆನಿ I fell, '
ಮ್ಹಣಾಲೋ Chris.

' ಜೋರು ಲಾಗಲೇಂ ವೇ ಮಾಂ?'

'ನಾ ಪಾಚ್ಚಿ knee ಕ ಚಿಕೀ bruise ಜಾಲ್ಲೇಂ ಆನಿ ankle twist
ಜಾಲ್ಲೇಂ' ಮ್ಹಣಾಲೋ.

'ಒ ಹೊ. ಪಾಯ ಮುರಡಲೋ ದಿಸ್ತಾ' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಹಾಂವೇಂ. ' ಮುಡರಲೇಂ
ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ಕಸ್ಲೇಂ? What's that?' ಮ್ಹಣಾಲೋ Chris ಆಶ್ಚರ್ಯಾನೇ.

ಮಾಕ್ಕಾ ಆನಿ ವೃಂದಾಕ ಜೋರೂ ಹಾಸೋ ಆಯಲೋ. ' 'ಮುಡರಲೇಂ
ನ್ಹಯಿ ರೆ 'ಮುರಡಲೇ' ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ twist ಜಾಲ್ಲೇಂ ಮ್ಹೋಣು. ಹೊ ಆಮಚೀಗಲೋ
ಶಬ್ದು' ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ಹಾವೇಂ. ' Wow! ಹಾಂವೇಂ ಕೀನ್ನಾಯಿ ಅಯಕನೀ ಹೊ ಶಬ್ದು '
ಮ್ಹಣಾಲೋ Chris ಹಾಸ್ತಚಿ.

ಹಾಜ್ಜೇರಿ ಥಾವನು ಸುರೂ ಜಾಲ್ಲೇಂ ವಿಚಾರಚಕ್ರ ಮಗಲೇಂ. ಆಮ್ಮಿ ಉಲ್ಲೋಂಚಿ
ಕೋಂಕಣೀ ಭಾಸ ಆನಿ ಆತ್ತಾಂ ಚೇಲ್ಡವಾಂನೀ ಉಲ್ಲೋಂಚೇ ಕೋಂಕಣೀಂತು ಮಸ್ತ ಫರಕ
ಆಯಲ್ಯಾ ಆತ್ತಂ ಆಮಗಲ ಕೋಂಕಣೀ ಜಾನಂ ಮಸ್ತ ವಾಡ್ಲ್ಯಾಂತೀ ಆನಿ ತಶೀಚಿ
ಆಮ್ಗಲೀ ಕೋಂಕಣೀ ಭಾಸಯಿ ಸಗಳೇ ಜಗಾಂತು ಪಸರನು ವಾಡ್ಲ್ಯಾ ಹೊಡಿ ಜಾಲ್ಯಾ.
ತ್ಯಾ ಶಿವಾಯ ಹಾಂಗ್ಗಾ ಆನಿ ಪರದೇಶಾಂತು ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ಆರ್ತಾಂತು ಕೋಂಕಣೀ

ಸಮ್ಮೇಲನ  ಮಸ್ತ ಜಾತ್ತಾತಿ. ಆನಿ ಅಸಲ್ಯಾ ಅಂತರ ರಾಷ್ಟ್ರೀಯ ಸಮ್ಮೇಲನಾಂಕ ಸಗ್ಳ ಜಗಾಂತಲೀಂ  ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ America, England, Arab Countries, Africa, Malaysia ಇತ್ಯಾದಿ ದೇಶಾಂತುಲಿಂ ಕೋಂಕಣೀ ಉಲ್ಲಯತಲಿಂ ಜಾನಂ ಥಾಯಿ ಪ್ರೀತೀನೇ ಆದರಾನೇ ಯೇತ್ತಾತಿ ಭಾಗ ಘೇತ್ತಾತಿ. ಇತ್ಲೇ ಮಾತ್ರ ನ್ಹಯಿ ಶುದ್ಧ ಕೋಂಕಣೀನೇ ಉಲ್ಲಯತಾತಿ. ಶಿವಾಯ ಪುರಾಯಿ ಪರಬೋನಿ ಆರ್ತಾಂತು ಜಾನಂ ಸಕ್ಕ ವ್ಹೋಟು ಮೇಳ್ನು ಹಾಂಗ್ಗಾ ಆನಿ ಥಂಯಿ ಸಾಜರೇ ಕರತಾತೀ. ಜಾಲ್ಮಿತಿಂ ಏಕ್ಕ್ಯಾಂ ಏಕ್ಕೀಂ ಮಸ್ತ ಫಾಂತ್ತಾ ಮೇಳ್ತಾತಿ ಆನಿ ಏಕ ದುಸರ್ಯಾಂಕ ಪ್ರೀತೆ ಆದರ ಕರತಾತಿ ಆಪಸಾಂತು ಉಲ್ಲಯ್ತಾತಿ.

ಮಾಕ್ಕಾ ಏಕ ದಿಸುನು ಯೇತ್ತಾ ಕಸ್ಲೇಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ಆಮ್ಮಿ ಘುಡೇ ಉಲ್ಲೋಂಚೇಂ ಕೋಂಕಣೀ ಆನಿ ಆಯಚೇಂ ಕೋಂಕಣಿ ವಿಂಗಡ ಆಸ್ಸ. ಇತ್ಯಾಕ ಕೀ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ತ್ಯಾ ಕೋಂಕಣೀಂತು English ಶಬ್ದ ನಾಶಿಲೇ ಪುರಾಯಿ ಕೋಂಕಣೀಚಿ British ರಾಜ್ಯ ಆಶಿಲಮಿತಿಂ ಏಕ ದೋನೀ ಖಂಯಿ ಪುಣಿ ಆಸ್ತಾಲೇ. ಆತ್ತಾಂಚ್ಯಾ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತು ಇತ್ಲೇ ಮಸ್ತ English ಆನಿ ಇತರ ಭಾಷೇಚೇ ಶಬ್ ಮಿಸಳಲ್ಯಾತೀ ಕೀ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಚೇ ಶಬ್ದ ಸೋದ್ಯಾಕಿ ತಾಂತು. ಏಕೇಕಳೀಂ ಏಕೇಕ ನಮುನ್ಯಾರೀ ಉಲ್ಲಯತಾತೀ. ಕಳತ ನಕಳತ ಮಸ್ತ ದುಸರ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತುಲೇ ಶಬ್ದ ತಾಂತು ಮೇಳ್ನು ಏಕಜೀವ ಜಾಲ್ಯಾತೀ. ಹಾಜ್ಜಮಿತಿಂ ಆಮ್ಗಲ ಭಾಸ ಮಸ್ತ ಪಸರಲ್ಯಾ ಜಾಲ್ಯಾರೀ  ಮಸ್ತ ಬದಲಲ್ಯಾ.

ಆಮ್ಮಿ ಸಕ್ಡಾಂನಿ ಆತ್ತಂ ಉಲ್ಲೋಚೇಂ ಕೋಂಕಣೀಂತು Chris ನೇ ಉಲ್ಲಯಲವಾರೀ English ಶಬ್ದ  ಘಾಲನು ಉಲ್ಲಯತಾತೀ. ನಿತ್ಯಾಂತು ಉಲ್ಲೋಂಚ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂತು ಸುದ್ಧಾಂಯಿ breakfast, lunch, butter ಮ್ಹಣ್ತಾತಿ. Fruits ( ಫಲ ) ತರೀ watermelon, pineapple, grapes, guava, orange ಜಾಲ್ಯಾಂತೀ. ಅವನಾಸ ದ್ರಾಕ್ಷ ಸೋನಾರಿಂಗ ಸಂತ್ರ ಬಚ್ಚಂಗ ಹೇ ಸಕ್ಡ ಶಬ್ದ ಖಂಯಿ

ಪ್ಲ್ಯಾತೀ ಕೀ. ಆಯಕುಕ ಯೇನಾತಿ. ಆಮ್ಮಿ ಫುಡೇ ಕಾಪ್ಪಡ ಕಿರ್ಗಣೋ ಚೋಳೀ ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ. ತೆ ಜಾಗ್ಯಾರೀ ಆತ್ತಂ gowns, jeans, T-shirts ಆಯಲ್ಯಾಂತೀ.

'ಮಾರ್ಕೇಟ' ಹೊ ಶಬ್ದು Britishಆಂಗಲ ಕಾಲಾ ಥೋನ್ರ್ಯು ಆಸ್ಸ. ಹಾಜ್ಜಿ ಏಕ ಗಮ್ಮತೀ ಸಾಂಗ್ತಾಂ. ಫುಡೇ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ವೇಳಾರೀ ಗಾಂವಾಂತು 'ಸಾಂತ' ಏಕಯಿ 'ಪೇಂಟ' ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ ಮಾರ್ಕೇಟಾಕ. ಆನಿ ಬಾಪ್ಪುಕ 'ಆನು' ಅಶ್ಶಿ ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ. ಕೋಣಯಿ ಯೇವನು 'ಆನು ಖಂಯಿ ಆಸ್ಸ? ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ 'ಪೇಂಟಾ ವಚುಗಲಾ' ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ ತಾಗಲ ಚೇಲ್ಡುವಂ. ತ್ಯಾ ವೇಳಾರೀ 'ಪೇಂಟ' ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ market ಆಶಿಲೇಂ. ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಫಾಲ್ನು ಘೇಂವಚೇಂ 'pants' ನಾಶಿಲಿಂ. ಸರ್ಕ ದಾರ್ಲೇ ವೇಷ್ಟಿ ಟೊಪ್ಪಿ ಶರ್ಟ ಫಾಲ್ನು ಘೇತ್ತಾಲೀಂ. 'ಪೆನ್ಟ' ಫಾಲ್ತಲೇ Pappas ಆನಿ suit ಫಾಲ್ತಲೇ Daddys ಮಾಗ್ಗಿರೀ ಆಯಲೇ. ಆನಿ ಆತ್ತಂ ತೇಂವಯಿ ವಚುನು Dad ಏಕಯಿ Dado ಜಾಲ್ಯಾತೀ.

ಏಕ ಸಾನ ಚಲ್ಲೋ ಆವಸುಕ ನಿಮ್ಗಿತಾ 'ಹಾಂವಂ ಕೇನ್ನಾ born ಜಾಲ್ಲೋಂ' ಮ್ಹೋಣು. ಬದ್ದ ಪಳಯಲ್ಯಾರೀ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತು ಪ್ರತೀ ಏಕ್ಯಾಕ ಶಬ್ದ ಭರಪೂರ ಆಸತಿ. ಆಮ್ಮಿಚಿ ತಾಜ್ಜೋ ಉಪಯೋಗ ಕರ್ನಾತಿ. ಏಕ ಫಾಂತ್ತಾಂ ಆಮ್ಮಿ ಏಕ ಲಗ್ನಾ ವಚುಗಲೇಲಿಂ. ಥಂಯಿ ice-creams ವಾಂಟ್ತಾಲಿಂ. ಏಕ ಸಾನ ಚಲ್ಲೋ ice-cream ice-cream ಅಶ್ಶಿ ಮ್ಹಣಾಲೋ. ಬಾಪ್ಪುನೇ ತಾಕ್ಕ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ 'ತೂಂ ಅಶ್ಶಿ ಕಲ್ಲೇಂ ಕರ್ತಾ ಉಬ್ಜತ ಥೋನ್ರ್ಯು ice-cream ಪಳಯನೀ ವೇ?' ಮ್ಹಳ್ಳೇ. ತ್ಯಾ ಚಲ್ಯಾನೇ ice-cream ಶಬ್ದು ವಿಸೋನ್ರ್ಯು 'ಉಬ್ಜತ ಉಬ್ಜತ' ಮ್ಹೋಣು ಸುರೂ ಕೇಲ್ಲೇಂ. ಅಶ್ಶಿ ಮ್ಹಣ್ತಚಿ ತೊ ಖಾಂವಚೇಂ ice-cream ಥಾಯಿ ವಿಸರಲೋ. ಹೊ ನವ್ವೋ ಶಬ್ದು ತಾಕ್ಕಾ ಮಸ್ತ ಆವಡ್ಲೋ ದಿಸ್ತಾ.

ಆಮ್ಮಿಗಲ ಶಬ್ದ ಆಮ್ಮಿ ವಾಪರನಾತಿಲೇಂ ಏಕಯಿ ಖಂಚ್ಯಾಕ ಕಸ್ಲೇಂ ಮ್ಹಣತಾತಿ ತೇಂ ಸಾಂಗ್ಗನಾತಿಲಮಿತಿಂ ಮಸ್ತ ಶಬ್ದ ವಿಸೋನ್ರ್ಯು ಗೇಲ್ಯಾತಿ ಕಿಂವಾ ಮುಳಾಂಪಳ್ಯಾತಿ.

ಉತ್ರಾಂಮಿತಿಂಚಿ ಭಾಸ ಶಿಕುಕ ಸಸಾರ ಜಾತ್ತಾ. ಗೋತ್ನಾಶಿಲೇ ಶಬ್ದ ತಾಜ್ಜೋ ಅರ್ಥು ಸಕ್ಕ ಕಳ್ತಾ. ಆಮ್ಗೇರೀ ಏಕಳೋ ಮಾಮು ಯೇತ್ತಾಲೋ ಫುಡೇ. ತಾನ್ನೇ ಆಯಲ ಕೀ ಆಮ್ಮಿ ಸಕ್ಕ ಕಾಮಂ ಖೇಳೂ ಸೋಣ್ಣು ತಾನೇ ಉಲ್ಲಯತನಾ ಆಯಕುಂಚ್ಯಾ ಬಸ್ತಾಲೀಂ. ಆಮ್ಮಾ ಗೌಜೀ ಘಾಲೀದ ಮ್ಹೋಣು ಹಾತ್ತಾಂತು ಬುಕ ಧೋರ್ಚೇ ದೋಳೇ ಬುಕಾರಿ ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಕಾನ ತಾಗಲ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂರೀ. ಇತ್ಯಾಕ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ ತೋ ಉಲ್ಲಯತನಾ ಮಸ್ತ ಆದ್ಗತ್ಯೋ ಮ್ಹಣ ಗಮ್ಮಿದಾರ ಶಬ್ದ ಸಕ್ಕ ಸಹಜಚೀ ಉಪಯೋಗ ಕರತಾಲೋ. ಉದಾರಣೇಕ

೧. ಕೋಣಯಿ ಏಕ್ಲೋ ರಾಬಲಾ ಜಾಲ್ಯಾರೀ 'ಏಕ ಮೋಳೋ' ಏಕಯಿ 'ಏಕ ಜೀವ ಸದಶಿವ' ಮ್ಹಣ್ತಾಲೋ.

೨. ಕೋಣ ಪಳೇ ದುಸರ್ಯಾಂನೀ ಕಿತ್ಲೇಂಯಿ ಸಾಂಗ್ಲ್ಯಾರೀ ಸುಧಾರನಾ ತಾವಳೀ 'ಉಮ್ಮಿ ಕಳಶ್ಯಾರೀ ಉದ್ದಾಕ' ಏಕಯಿ 'ವಾರ್ಯಾರೀ ಪಳ್ಳೇಲೇ ಶೀತ ಶೇಂ' ಅಶ್ಶಿ ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ. ಶೀತ ಧಾಂಕನಾಸ್ತನಾ ವಾರ್ಯಾರೀ ಘಾಲ್ಯಾರೀ ಜೇಂವಚ್ಯಾಕ ಜಾಯನಾ ಕಾಂಟೋಸೋ ಜಾತ್ತಾ.

೩. ಕೋಣಯಿ ಭೋ ಝುಗ್ಡಾಳ ಆಸಲ್ಯಾರೀ 'ಝುಗ್ಡಾಳ ಕೋಂಬ್ಯೋ' ಆನಿ ದುಸರ್ಯಾಂಕ ಝುಗ್ಡಾವನು ಘಾಲ್ಯಾರೀ 'ನಾರದ ಮುನೀ' ಏಕಯಿ ಮಾತ್ತ್ಯ ಮಾತ್ಯಾ ಗಾಂಟ್ಯೋ ಘಾಲತಾ' ಅಶೀ ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ.

೪. ಕಸ್ಲ್ಯಾಚೀ ಪುಣಿ ಆಶಾ ದಾಕ್ಕೋನು ತೇಂ ದೀನಾತಿಲೇಂಚಿ ಕಾಮ ಕೋರೋನು ಘೇತ್ಲ್ಯಾರೀ 'ಕೋಪರಾಕ ಮ್ಹೋವು ಲಾಯತಾ' ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀಂ. ಮ್ಹೋವು ಕೊಪರಾಕ ಲಾಯಲ್ಯಾರೀ ಲೇಂವಚೇಂ ಕಶ್ಶಿ.

೫. ದುಸರ್ಯಾಂಕ ಕಿಡಾಯಲ್ಯಾರೀ 'ಸುಣ್ಯಾ ತೋಂಡಾಂತು ಬಡ್ಡೀ ಘಾಲ್ನಾಕಾ' ಮ್ಹಣ್ತಾಲೀ.

ಹ್ಯೋ ಸಕ್ಕ ಮ್ಹಣ್ಯೋ ಜಾಲ್ಯೋ. ಆತ್ತಂ ಆದ್ಗತೀ ಆಯ್ಕುಂಯಾ........

೧. ಸುಣೇಂ ಆಶಿಲ ತಾವಳೀ ಬಡ್ಡೀ ನಾ ಬಡ್ಡೀ ಆಶಿಲ ತಾವಳೀ ಸುಣೇಂ ನಾ. ಅರ್ಥು ಅನುಕುಲ ಆಶಿಲ ತಾವಳೀ ಕರ್ನಿ. ಕೋರ್ಕಾ ಮ್ಹಳ್ಳ ತಾವಳಿ ಅನುಕುಲ ನಾ. ಅನುಕುಲ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ opportunity.

೨. ಸರ್ಪು ಧಾಂವ್ತಾ ಮ್ಹೋಣು ಗಾಂಯಡುಳಾಕ ಧಾಂವಚಾ ಜಾತ್ತಾ ವೇ ಅರ್ಥು ಆಪ್ಣಾಕ ಜಾಯನಾತಿಲೇಂ ಕೋರೂಕ ವ್ಹೋಚ್ಚು ನಯೇ.

೩. ಆಂಗಾರೀ ಕಸ್ಲೇಂಯಿ ಪಳ್ಯಾರೀ ತೇಂ ತಶೀಚಿ ಪುಸುನು ಉಡ್ಡೋಂಚ ಬದ್ಲಾಕ ಹಾತ್ತಾನೇ ಆಪ್ಪೋಣು ನಾಂಕ್ಯಾನೇ ಹುಂಗ್ಗುನು ಪೋಳೋಂಚೇಂ. ಆಂಗಾಕ ಹಾತ್ತಾಕ ಆನಿ ನಾಂಕ್ಯಾಕ ತೀನಕಡೇ ಕೋರಚೇಂ... ಹಾಕ್ಯಾ ಬುದ್ವನ್ತಾ ತೀನಕಡೇ ಮ್ಹೋಣ್ಚೇಂ. ಕಡೇರಚೇ ಅದ್ಗತೀ

೪. 'ಮಾಂಕಡಾ ಹಾತ್ತಾಂತು ಮಾಣಿಕ ದಿಲ್ಲವಾರೀ' ಅರ್ಥು ಕೋಣಾಕ ಕಸ್ಲ್ಯಾಚೇ value ನಾ ಕಿ ತಾಕ್ಯಾ ತೇಂ ದೀವನು ಉಪಯೋಗ ನಾ.

ಆತ್ತಂ! ಆಮ್ಮಿ ಕಲ್ಲೇಂ ಕರ್ತಾತೀ ಪೋಳೋಂಯಾಂ......

ಪಿಕನಿಕಾಕನಿ ಆಮ್ಮಿ ವತ್ತಾತಿ ಪಳೇ ತ್ಯಾ ವೇಳಾರೀ ಆಮ್ಕಾಂ ಮಸ್ತ ವೇಳು ಆಸ್ತಾ ಖೇಳ ಖೇಳೂಕ. ತಾವಳೀ ದೋನಿ ಮಿನಿಟಂ ಶುದ್ಧ ಕೋಂಕಣಿಂತು ಉಲ್ಲೋಂಕಾ ಮ್ಹೋಣ ಆಮ್ಮಿ ಖೇಳ್ತಾತೀ. ಹಾಕ್ಯಾ ಚಿಕೇ ಬದಲ ಕೋರ್ನು ಆಮ್ಗಲ ಭಾಷೇಂತು ಮಸ್ತ ನಮುನ್ಯಾಚೇ ಶಬ್ದ ಆಸತಿ ತಾಜ್ಜೇ ಉಪಯೋಗು ಕೋರೂಕ ಜಾತ್ತಾ ಜೋಡ ಶಬ್ದ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ, ದಾಳಿ-ಶೀತ ಕಪ-ಬಶಿ ವಡೀ-ಪಾಪ್ಪಡ ಹಾತ-ಪಾಯ ವಗೈರ. ತಶೀಚಿ ವಿರೂದ್ಧಾ ಶಬ್ದ ಮ್ಹಳ್ಯಾರೀ opposites ಉಪ್ರಾಟೀ-ಸುಪ್ರಾಟೀ ಊಂಚ-ತಗ್ಗು ಭಿತ್ತರೀ-ಭಾಯ್ರು ಅಸ್ಲೇ ಸರ್ಕ. ಕೋಣಾಕಯಿ ಏಯಳ್ಯಾಂಕ ಸಾಂಗುಕ ಸಾಂಗ್ಚೇಂ ದುಸರೀಂ ಸಹಜಚಿ ಸಾಂಗ್ಗು ಸುರೂ ಕರತಾತೀ. ಅಶ್ಶಿ ಖೇಳ್ಯಾರೀ ಆಮ್ಗಲ ಶಬ್ದಾಂಚೇಂ ಭಂಡಾರ ವಾಡ್ತಾ.

ಆತ್ತಂ ಕಡೇರೀ ಏಕ ಕೋಂಕಣೀ ಖೇಳು ಸಾಂಗ್ತಾ. ಪಾಂಚ ಸ ಚಲ್ಲ್ಯಾಂನಿ ಏಕ ಗೋಲ ಕೋರ್ನು ಬೋಸ್ಚೇಂ. ಮಾಗ್ಗೇರಿ ಸಕ್ಡಾಂನಿ ತಾಂಗಲಿ ದೋನ್ನೀ ಹಾತ ಏಕ್ಕಾ ಊಂಚ ಏಕ ಉಮ್ತೀ ದವ್ವೋರ್ಚೇ ನೇಲಾರಿ ಮದ್ದೇಂತು. ತಾವಳೀ ಮದ್ದೇಂತು ಹಾತ್ತಾಂಚೋ ಏಕ ತೇರೂ ಜಾತ್ತಾ ಆನಿ ಹೇಂ ಪದ ಮ್ಹೋಣಚೇಂ

ಅಪಾನಂದಾ ತಪಾನಂದಾ ತಾಯಕೀಳ್ಯಾಚೇ ಭಾಜ್ಜಿ ನಂದಾ
ಓ ನಂದಾ ಹತನಂದಾ ಏಕ ಹಾತ ಖಾಂದ್ಯಾರೀ

ತಾವಳಿ ಸಕ್ಡ ಗೋಲ ಬಶಿಲ್ಯಾಂನಿ ತಾಂಗಲೋ ಉಜ್ವೇ ಹಾತು ಉಜ್ವೇ ದಿಕ್ಕಾಕ ಬಶಿಲ್ಯಾಂಗಲ್ಯಾ ಖಾಂದ್ಯಾರೀ ದವರ್ಚೋ. ವ್ಹೋಪಸ ದುಸರೇ ಫಾಂತಾ ತೇಂಚಿ ಪದ ಮ್ಹೋಣಚೇ ಆನಿ ಡಾವ್ವೋ ಹಾತು ಡಾವ್ವೋ ದಿಕ್ಕಾನೇ ಬಶಿಲ್ಯಾಂಗಲ್ಯಾ ಖಾಂದ್ಯಾರೀ ದವ್ವೋರಚೋ. ಆತ್ತಂ ಬಶಿಲ ಚಲ್ಲ್ಯಾಂಗಲೇಂ ಗೋಮ್ಟೇಚಿ ಸಾಖಳೀಶೀ circle ಜಾತ್ತಾ.

ಆತ್ತಂ ದುಸರೇಂ ಪದ...........

ಗುಡೂ ಗುಡೂ ಮಲಕಾ ಪೀಟ ವಾಟ್ಟುನು ಕಾಲ್ಲೋಂಕಾ
ಪಿಟ್ಟಾಂತು ಪಳ್ಳ್ಯೋ ಬರಡು ಕೋಣಾಲೇಂ ಮಾತ್ತೇಂ ಖರಡೂ

ಹೇಂ ಪದ ಮ್ಹೋಣ್ಚೇಂ. ತಾವಳೀ ಸಕ್ಡಾಂನಿ ರಗಡ್ಯಾ ದಾಣೋ ಸೋ ಧೋಲ್ಚೇಂ ಉರೂಟ ಉರೂಟ. ಮಾಗ್ಗೇರಿ ಸಕ್ಡಾಂನಿ ಹಾಸ್ತಚಿ ಧೋಲಚೇಂ. ಕೋಣ ಪಡತಾತೀ ಕೀ ತಾಂಗಲೇ ಮಾತ್ತೇಂ ಖರಡೂ ಮ್ಹೋಣು.

ಆತ್ತಂ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತುಲ ಗಮ್ಮಿತ ಥೋಡೀ ತುಮ್ಮಿ ಆಯಕಲೀ. ಆನಿ ಮಸ್ತ ಕಾವ್ಯಂ ಪದಂ ಖೇಳ ಲೇಖನ ಸಗ್ಗೇ ಭರಪೂರ ಬೋರೋಯಾಂ ಮುಖಾರೀ ಭಾಷೇಂತು ಕೇನ್ನಾಯಿ ಬದಲ ಜಾತ್ತ ಆಸ್ತಾ. ತೀ ಹೊಡಿ ಜಾತ್ತಾ ಪ್ರಸಿದ್ಧ ಜಾತ್ತಾ

ಾಲ್ಯಾರೀ ಆಮ್ಮಿ ತಿಕ್ಕಾ ವಾಪರನಾತಿಲೇ ದುರ್ಲಕ್ಷ ಕೇಲ್ಯಾರೀ ತೀ ಭಾಸ ಕ್ಷೀಣ ಜಾತ್ತಾ ಕಯಿ ನಾಚೆ ಜಾತ್ತಾ ಮಸ್ತ ವರ್ಸಾಂನಿ. ಆಮ್ಗಲಿ ಪ್ರೀತೀ ಸ್ವಾಭಿಮಾನ ದವ್ರೋನು ಆಮ್ಮಿ ತಿಕ್ಕಾ ಉಪಯೋಗ ಕೇಲ್ಲ್ಯಾರೀ ತಾಂತುಲ್ಯಾ ಶಬ್ದಾಂಚೇ ಮಾಹಿತಿ ತಾಂಗಲಿ ಭಾವ ನಾವನಾ ಮಧುರತಾ ಉಚ್ಚಾರ ಸಮ ವಾಪರ ಕೇಲ್ಯಾರೀ ಕೋರೂಕ ಶಿಕ್ಲ್ಯಾರಿ ತ್ಯಾ ನಾಷೇಚಿ ಗೋಮ್ಟಾಯಿ ಉಠಾವ್ನ ದಿಸ್ತಾ. ಭಾಶೇಚಿ ಗೋಡೀ ಉತ್ಪನ್ನ ಜಾತ್ತಾ. ಹೀ ಗೋಡೀ ಚೇಲ್ಡವಾಂನೀ ಸಾನ್ನ ಆಸ್ತನಾಂ ಧೋನುಚಿ ತಾಂಕ್ಕಾ ಲಾಗ್ಗಯ್ಲ್ಯಾರಿ ಮಾತ್ರ ತೀಂ ಕೇನ್ನಾಯಿ ಮಾತ್ರ ಭಾಷಾ ವಿಸರನಾತೀ. ಆನಿ ಭಾಷೇ ದಿಕ್ಕಾನೇ ದುರ್ಲಕ್ಷ್ಯ ಕರನಾತಿ. ಆಮ್ಗಲೇಂ ಚೇಲ್ಡಪಣ ಆಮ್ಮಿ ಕಶ್ಶಿ ವಿಸರನಾತೀ ಕೀ ತಶೀಚಿ ಭಾಸಯಿ ವಿಸರನಾತಿ. ಉಲಟ ಅಭಿಮಾನ ಪಾವ್ತಾತೀ. ಕಿತ್ಲೀ ಗಮ್ಮತಿ ಆಸ್ಸ ನ್ಹಯಿ ಆಮ್ಗಲ್ಯಾ ಭಾಷೇಂತು!!

## बुर्डे माम्मालाग्गि फरडे

सांज्जे साडे सात घंटे जाल्ले तरी बुर्डेमामु शिवाजी पार्काच्या कट्ट्यारि इत्याक येनि म्हॊणु माक्का आश्चर्य जाल्ले. बुर्डेमाम्माने ना जाल्यारी शिवाजी पार्काच्या कट्ट्यावेले गप्पे चेप्पें! इत्याक म्हळ्यारि ताल्लागि खंचेयि विषयारी रसाळ खब्र्यो नित्य नव्यो नव्यो आस्ताती. तान्ने नात्तिलें माक्कायि वेळ्ळू वचना म्हॊणु थंयि थावनु घारा पुणि वोचयां म्हॊणु बस्सारी चळ्ळों आनि बांद्रा टोकीसाच्या स्टॊपारी देवलों. कस्लें पुणि आश्चर्य! चारि पाव्ल वोच्चे भित्तरी बुर्डेमामु इदूऽर हात्तांतु खांद्यारी खाक्यांतु फाट्टीरी सक्ड चिल्लं आनि packets भोर्नु लांबतालिं. आनि असल्या ह्या अवस्थेंतु बुर्डेमाऽमु Linking Road आनि S.V. Road च्या meeting point री कस्लकी विचार कर्तचि राब्बिलो. आल्दिका पेल्दिका धांव्चे traffic च्या गडबडींतु की तागल्यचि विचारांतु आशिलमितिं की ताक्का हांवें लाग्गि आयिलें कळनी. माग्गिरी हांवें वोचुनु तागल्या फाट्टिरी ठप्पने एकु पेट्टु मारलो आनि 'इत्तें रे आजि पार्का दांड्यारी इत्याक येनि' म्हळ्ळें. तो एकदम भीबळसूनु माक्काचि पोळोंच्या लागलो. आनि 'तूंवें मगलि फाटि लाक्डाची म्हॊणु लेकलें वे?' चिके कोप्पारी म्हणालो बुर्डेमामु.

आजि हागलें mood off जाल्लें सै म्हॊणु मनांतु लेक्कुनु हांवं वोपस वोचुक घुवलों. तित्ल भित्तरि तागल कोपू थंड जाल्लो म्हॊणु दिसता.

'रमानंदा यो रे हांग्गा. तश्शि कोप्पुनु वोचुनाक्का. म्हॊणु मोग्गाने म्हणालो बुर्डेमामु. हांवं परत right about turn कोर्नु तागल दिक्काने घुंवलों आनि ताक्का पोळोनु.........

हांवः सग्ळें बांद्राचें मार्केट खाली केल्लें की कस्लें?

: कस्लो उपयोगु मुख्य जायिशिलेंचि विसरलों पळे. कस्लें कोरचें?

व: कस्लें जाल्ले सायबा सांग पुणि समचि

ा: एक भयंकर फजितींतु पळ्ळां मरे हांवं म्हणालो बुर्डेमामु काकुळती येवनु. केदनायि कल्लेंयि सांगनातिल मगल बायलेने एक बग सांग्गिलें हाडुक. तिन्ने तीन तीनि फंता विसोरनाक्का म्होणु बजावनु सांग्गिलें भाग्र सर्तना आनि आत्तं हांवं तेंचि विसरलों पळे!
(म्हणालो बुर्डेमामु काकुळती येवनु)

ावं: तांतु कस्लें भाऽरी. हांवं कित्लकी बग विसरता मगल बायलेने सांग्गिलें. जाल्यारी तेंचि विचार कर्तचि बैसना पळे तुज्जवारीं!

तो: छे छे! तश्शि चलना बा. तिन्ने आजीचि माक्का सांग्गिले आनि हांवें खास तेंचि विसोरचे म्हळ्यारी कस्लें हें?

*(माक्का तागालि अवस्था पोळोनु जोरु हासो आयलो.)*

हांवं: बायल रात्ति जेवण वाण्णा जायद म्होणु भय्य दिसता वे? आम्गेरि यो तावळी जेवणाक म्हळ्ळें.

*जाल्यारी तो आय्कता खंयि. वोपस मल्लाग्गि येवनु म्हणालो.*

तो: तिन्ने सांग्गिलो तो शब्दु खंच्चे अक्षरारी थावनु सुरु जात्ता म्होणु थायि उग्डासु येना पळे. रमानंद आम्मि एक कोर्यां. अक्षर माळेंतुलीं पुरायि अक्षरं म्होण्यां. तावळी उगडास येत्तलो. माक्का चिकेचि मदत करी सायबा.
(म्होणु लाल्लेंवचाक लागलो.)

हांवं: कस्लें कोर्यां सांग.

*तो हगूर अ अ इ ई उ ऊ ए ए ओ औ........ म्होणुक लागलो. (तावळी हांवें म्हळ्ळे).......*

हावंः तुंवें अश्शि पुरायि अक्षरं म्हणतचि बसल्यारि आम्मि राति सगळी हांगा रसत्यारि काड्का जायद सायबा. तूं अश्शि करि. खंचे अक्षरारि तो शब्दु सुरु जात्ता म्होणु सांग. हें कायि उपयोगाचें न्हयि.

*थोडो वेळु आलोचना कोर्नु 'ब' शें दिसता महाराया म्हणालो तो आनि घट्टिट (loudly) ब बा बि बी बु बू बे बै बो बौ (bow bow) म्हणालो. तान्ने घट्टी बौ बौ (bow bow) केल्लेलें आयकुनु traffic guide कोरूक राब्बिलो police सुद्धांयि खंचे सूणे आयलें बा रसत्या मद्देंतु म्होणु घूवनु पोळोंच्याक लागलो आमका. बुर्डेमामु माग्गेरी मगलो हातु घट्टी धोर्नु ........*

तोः रमानंद तुक्का गोत्तु आश्शिलें 'ब' चें आणि 'भ' चे शब्द पुरायि सांग पोळीयां. तांतु थावनु कस्लेंयि solution मेळता की म्होणु.

हांवः शब्द सांग्गुक हांव इत्तें Dictionary वे? की कोंकणी पंडितु?

तोः Dictionary की Missionary की. आनि मगल बायल कांयि कोंकणी पंडित न्हयि. त्यामितिं तुक्का गोत्ताशिले एक चारी शब्द सांग.

हावंः तांतु कसलें भाऽरी. प्रयत्न करतां.
*(जोरू भूक लाग्गिलि पोट्टांतु कायळे रडताले)*
bread, biscuit, butter, burger बटटो .....

तोः न्हयि.
*(म्हणालो मात्तें हाल्लोनु)*

हांवः बाटली बूच बुडकुळो भोगुळें बुरडो ......

तो: तें सक्ड न्हयि रे.

हांवं: बदमा सलाम मुलामु

तो: माक्का 'म' ने end जांव्चे शब्द नाक्का. ब ने सुरु जांव्चें मात्र जायि.

हांवं: अड्डि ना. बदामा हालवो म्हैसुर पाक.... sorry sorry....

तो: आस्सो. मुखारी सांग.....

*(इद्रूर एक बेवा झाड दिस्लें)*

हांवं: बेवू बीरूंड बेलू बोर बैलू बदक ब्रोच .....

तो: न्हयि रे.

हांवं: बागील बीग बीगाहातु बीजाग्र बुक भेलू ......

तो: तस्लें सक्ड न्हयि रे.

हांवं: भांगी भ्रांती भांडार....

*(तित्ल भित्तरी V.N. Jewellers shop दिस्लें )*

*......भांगार भांग्रा कांकणं*

तो: छे छें!

(म्हणालो जीब चाब्बुनु)

हांवं: आत्तं कस्लें सांगु बा तुक्का बेजार आयलो माक्का. वत्त हांवं.

तो: Please रमानंद...........

*(म्हणालो बुर्डे मामु राग ताऽणु)*

हांवं: बीलावल बीहाग बीलहरी बीलाडी......

तो: सम आलोचन करी रे आनि सांग.

*(माक्का चिकेचि कोपु आयलो. कोप्पाने वगवग्गि)*

हांवं: बेत बेट बोलू बोड भूत बेलि भोवर भ्रमु.....

तो: अरे अरे कंडाबट्टी कसलेंयि पुणि सांग्गु नाक्का सायबा.

हांवं: (little slowly) Brush, boot,button, भस्म (bhasma), brandy, बिल्लु बाणु बैरागी भाषण भाग्य, bomb .......

तो: माग्गेरी मुखारी.....

हांवं: Bank, bonus, blotting, boiler.......

तो: हट्ट

हांवः Barometer, thermometer, ...sorry sorry.... biscuit....

तोः तें एक फांत्तां जाल्लें रे.....

हांवः ना बिस्कुट रोटि्ट बिस्कुट आंबोडो बोंडा हें सक्ड जायनी.

तोः तें न्हयि म्हळ्ळें न्हवे हावें?

हांवः तावळी भाडें भाडोत्रि पॉलीसाक पोळोनु बीगील बास्केट.

तोः उंहूं

हांवः *(कॉप्पाने)* बोंबील भेंड बेन्ड बलें बेळें भेरी........

तोः सम सांगचें सोणु

हांवः आनि कितले शब्द सांगचे? मगलि dictionary खाली जाल्लि. घे...... बस बोटर बेजि बेन्सिल बब्बर

*(म्हळ्ळें तागलि गम्मत कोरूक बाकी शब्द 'ब' ने सुरू कोर्नु).*

तोः हें सकड माक्का कळना अर्थु जायना बा .......

हांवः तावळी हांव वत्तां. माक्का बेजार आयलो. वेळूयि जाल्लो. इतले राशि शब्द सांग्गिलतक्के तुगलें problem solve जायना. हांवं वत्तां घारा

*(म्हॊणु घुंवलों. घुंवतना Bandra Talkies चो हॊडु board दिसलो.)*

'बण्णा आय्णो' कड्‌डे दीसु म्हॊणु 'ब' ने सुरू जात्ता न्हवे *(म्हॊणु हांवें तें घट्‌टी वाचलें).*

आयकुनु बुर्‌डेमामु धांवतचि येवनु माक्का गोप्पे घालूक लागलो. आनि हेंचि तें तिन्ने सांग्गिलें. येतना रात्ती show क दोनि टिकेटं हाडी पिकचराक वोच्चां विस्सोर्नाक्का म्हॊणु. मगलें problem solve जाल्ले म्हणालो आनि वत्तां हांवं म्हणालो आनि वचुगलो.

जालयारी पाप बुर्डेमाम्माचें. last show सुरु जावनु तावळीचि २० minutes जाल्लेलीं.

*हें लेख पडुकोण रमानंद हांगले कन्नड 'हरिकमतन नेनपु' हाज्जे आधारारि बरयिलें.*

---

## ಬುರ್ಡೇ ಮಾಮ್ಮಾಕ ಲಾಗ್ಗಿ ಘರಡೇ

ಸಾಂಜ್ಜೇ ಸಾಡೇ ಸಾತ ಘಂಟೇ ಜಾಲ್ಲೇ ತರೀ ಬುರ್ಡೇಮಾಮು ಶಿವಾಜೀ ಪಾರ್ಕಾಚ್ಯಾ ಕಟ್ಟ್ಯಾರಿ ಇತ್ಯಾಕ ಯೇನಿ ಮ್ಹೊಣು ಮಾಕ್ಕಾ ಆಶ್ಚರ್ಯ ಜಾಲ್ಲೇ. ಬುರ್ಡೇಮಾಮ್ಮಾನೇ ನಾ ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಶಿವಾಜೀ ಪಾರ್ಕಾಚ್ಯಾ ಕಟ್ಟ್ಯಾವೇಲೇ ಗಪ್ಪೇ ಚೇಪ್ಪೇಂ! ಇತ್ಯಾಕ ಮ್ಹಳ್ಯಾರಿ ತಾಲ್ಲಾಗಿ ಖಂಚೇಯಿ ವಿಷಯಾರೀ ರಸಾಳ ಖಬ್ರ್ಯೋ ನಿತ್ಯ ನವ್ಯೋ ನವ್ಯೋ ಆಸ್ತಾತೀ. ತಾನ್ನೇ ನಾತ್ತಿಲೇಂ ಮಾಕ್ಕಾಯಿ ವೇಳೂ ವಚನಾ ಮ್ಹೊಣು ಥಂಯಿ ಥಾವನು ಘಾರಾ ಪುಣಿ ವೋಚಯಾಂ ಮ್ಹೊಣು ಬಸ್ಸಾರೀ ಚಳ್ಳೋಂ ಆನೀ ಬಾಂದ್ರಾ ಟೊಕೀಸಾಚ್ಯಾ ಸ್ಟೊಪಾರೀ ದೇವಲೋಂ. ಕಸ್ಲೇಂ ಪುಣಿ ಆಶ್ಚರ್ಯ! ಚಾರಿ ಪಾವ್ಲ ವೋಚ್ಚೇ ಭಿತ್ತರೀ ಬುರ್ಡೇಮಾಮು ಇದೂSರ ಹಾತ್ತಾಂತು ಖಾಂದ್ಯಾರೀ ಖಾಕ್ಯಾಂತು ಘಾಟ್ಟೇರೀ ಸಕ್ಕ ಚಿಲ್ಲಂ ಆನಿ packets ಭೋರ್ನು ಲಾಂಬತಾಲಿಂ. ಆನೀ ಅಸಲ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಅವಸ್ಥೇಂತು ಬುರ್ಡೇಮಾಮು Linking Road ಆನೀ S.V.Road ಚ್ಯಾ meeting point ರೀ ಕಸ್ಲಕೀ ವಿಚಾರ ಕರ್ತಚಿ ರಾಬ್ಬಿಲೋ. ಅಲ್ದಿಕಾ ಪೆಲ್ದಿಕಾ ಧಾಂವ್ಚೇ traffic ಚ್ಯಾ ಗಡಬಡೀಂತು ಕೀ ತಾಗಲ್ಯಚಿ ವಿಚಾರಾಂತು ಆಶಿಲಮಿತಿಂ ಕೀ ತಾಕ್ಕಾ ಹಾಂವೇಂ ಲಾಗ್ಗಿ ಆಯಿಲೇಂ ಕಳನೀ. ಮಾಗ್ಗೀರೀ ಹಾಂವೇಂ ವೋಚುನು ತಾಗಲ್ಯಾ ಘಾಟ್ಟೀರೀ ಥಪ್ಪನೇ ಏಕು ಪೇಟ್ಟು ಮಾರಲೋ ಆನಿ 'ಇತ್ತೇಂ ರೆ ಆಜಿ ಪಾರ್ಕಾ ದಾಂಡ್ಯಾರೀ ಇತ್ಯಾಕ ಯೇನೀ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ. ತೋ ಏಕದಮ ಭೇಬಳಸೂನು ಮಾಕ್ಕಾಚಿ ಪೋಳೋಂಚ್ಯಾ ಲಾಗಲೋ. ಆನಿ 'ತೂಂವೇಂ ಮಗಲಿ ಘಾಟಿ ಲಾಕ್ಡಾಚೀ ಮ್ಹೊಣು ಲೆಕಲೇಂ ವೇ?' ಚಿಕೇ ಕೋಪ್ಪಾರೀ ಮ್ಹಣಾಲೋ ಬುರ್ಡೇಮಾಮು.

ಆಜಿ ಹಾಗಲೇಂ mood off ಜಾಲ್ಲೇಂ ಸೈ ಮ್ಹೊಣು ಮನಾಂತು ಲೇಕ್ಕುನು ಹಾಂವಂ ವೋಪಸ ವೋಚುಕ ಘುವಲ್ಲೋಂ. ತಿತ್ಲ ಭಿತ್ತರಿ ತಾಗಲ ಕೋಪೂ ಥಂಡ ಜಾಲ್ಲೋ ಮ್ಹೊಣು ದಿಸತಾ.

'ರಮಾನಂದಾ ಯೊ ರೆ ಹಾಂಗ್ಗಾ. ತ್ಶಿ ಕೋಪ್ಪುನು ವೋಚುನಾಕ್ಕಾ. ಮ್ಹೋಣು ಜಾಗ್ಗಾನೇ ಮ್ಹಣಾಲೋ ಬುರ್ಡೇಮಾಮು. ಹಾಂವಂ ಪರತ right about turn ಕೇರ್ನು ತಾಗಲ ದಿಕ್ಕಾನೇ ಘುಂವ್ಲೋಂ ಆನೀ ತಾಕ್ಕಾ ಪೋಳೋನು.........

ಹಾಂವಂ: ಸಗ್ಯೇಂ ಬಾಂದ್ರಾಚೇಂ ಮಾರ್ಕೇಟ ಖಾಲೀ ಕೇಲ್ಲೇಂ ಕೀ ಕಸ್ಲೇಂ?

ತೋ: ಕಸ್ಲೋ ಉಪಯೋಗು ಮುಖ್ಯ ಜಾಯಿತಿಲೇಂಚಿ ವಿಸರಲೋಂ ಪಳೇ. ಕಸ್ಲೇಂ ಕೋರಚೇಂ?

ಹಾಂವ : ಕಸ್ಲೇಂ ಜಾಲ್ಲೇ ಸಾಯಬಾ ಸಾಂಗ ಪುಣಿ ಸಮಚಿ

ತೋ: ಏಕ ಭಯಂಕರ ಫಜಿತೀಂತು ಪಳ್ಯಾಂ ಮರೇ ಹಾಂವಂ. ಕೇದನಾಯಿ ಕಲ್ಲೇಂಯಿ ಸಾಂಗನಾತಿಲ ಮಗಲ ಬಾಯ್ಲೇನೇ ಏಕ ಬಗ ಸಾಂಗ್ಗಿಲೇಂ ಹಾಡುಕ. ತಿನ್ನೇ ತೀನ ತೀನೀ ಫಂತಾ ವಿಸೋರನಾಕ್ಕಾ ಮ್ಹೋಣು ಬಜಾವನು ಸಾಂಗ್ಗಿಲೇಂ ಭಾಯ್ರ ಸರ್ತನಾ ಆನಿ ಆತ್ತಂ ಹಾಂವಂ ತೇಂಚಿ ವಿಸರಲೋಂ ಪಳೇ!

(ಮ್ಹಣಾಲೋ ಬುರ್ಡೇಮಾಮು ಕಾಕುಳತೀ ಯೇವನು)

ಹಾವಂ: ತಾಂತು ಕಸ್ಲೇಂ ಭಾವರೀ ಹಾಂವಂಯಿ ಕಿತ್ಲಕೀ ಬಗ ವಿಸರತಾ ಮಗಲ ಬಾಯಲೇನೇ ಸಾಂಗ್ಗಿಲೇಂ. ಜಾಲ್ಯಾರೀ ತೇಂಚಿ ವಿಚಾರ ಕರ್ತಚಿ ಬೈಸನಾ ಪಳೇ ತುಜ್ಜವಾರೀಂ!

ತೋ: ಛೇ ಛೇ! ತ್ಶಿ ಚಲನಾ ಬಾ. ತಿನ್ನೇ ಆಜೀಚಿ ಮಾಕ್ಕಾ ಸಾಂಗ್ಗಿಲೇ ಆನೀ ಹಾಂವೇಂ ಖಾಸ ತೇಂಚಿ ವಿಸೋರಚೇ ಮ್ಹಳ್ಯರೀ ಕಸಲೇಂ ಹೇಂ?

(ಮಾಕ್ಕಾ ತಾಗಲಿ ಅವಸ್ಥಾ ಪೋಳೋನು ಜೋರೂ ಹಾಸೋ ಆಯಲೋ.)

ಹಾಂವಂ: ಬಾಯಲ ರಾತ್ತಿ ಜೇವಣ ವಾಣ್ಣಾ ಜಾಯದ ಮ್ಹೋಣು ಭಯ್ಯ ದಿಸತಾ ವೇ? ಆಮ್ಗೇರಿ ಯೋ ತಾವಳೀ ಜೇವ್ಣಾಕ ಮ್ಹಳೇಂ.

ಜಾಲ್ಯಾರೀ ತೋ ಆಯ್ಕತಾ ಖಂಯಿ. ವ್ರೋಪಸ ಮಲ್ಲಾಗ್ಗಿ ಯೇವನು ಮ್ಹಣಾಲೋ.

ತೋ: ತಿನ್ನೇ ಸಾಂಗ್ಗಿಲೋ ತೋ ಶಬ್ದು ಖಂಚ್ಚೇ ಅಕ್ಷರಾರೀ ಥಾವನು ಸುರು ಜಾತ್ತಾ ಮ್ಹೋಣು ಥಾಯಿ ಉಗಡಾಸು ಯೇನಾ ಪಳೇ. ರಮಾನಂದ ಆಮ್ಮಿ ಏಕ ಕೋಯ್ರ್ಾಂ. ಅಕ್ಷರ ಮಾಳೇಂತುಲೀಂ ಪುರಾಯಿ ಅಕ್ಷರಂ ಮ್ಹೋಣ್ಯಾಂ. ತಾವಳೀ ಉಗಡಾಸ ಯೇತ್ತಲೋ. ಮಾಕ್ಕಾ ಚಿಕೇಚಿ ಮದತ ಕರೀ ಸಾಯಬಾ.

*(ಮ್ಹೋಣು ಲಾಲ್ಲೇಂವಚಾಕ ಲಾಗಲೋ.)*

ಹಾಂವಂ: ಕಸ್ಲೇಂ ಕೋಯ್ರ್ಾಂ ಸಾಂಗ.

*(ತೋ ಹಗೂರ ಅ ಆ ಇ ಈ ಉ ಊ ಏ ಏ ಓ ಔ......... ಮ್ಹೋಣುಕ ಲಾಗಲೋ. ತಾವಳೀ)*

ಹಾವಂ: ತುಂವೇಂ ಅಶ್ಶಿ ಪುರಾಯಿ ಅಕ್ಷರಂ ಮ್ಹಣತಚಿ ಬಸಲ್ಯಾರಿ ಆಮ್ಮಿ ರಾತಿ ಸಗಳೀ ಹಾಂಗಾ ರಸತ್ಯಾರಿ ಕಾಡ್ಕಾ ಜಾಯದ ಸಾಯಬಾ. ತೂಂ ಅಶ್ಶಿ ಕರಿ. ಖಂಚೇ ಅಕ್ಷರಾರಿ ತೋ ಶಬ್ದು ಸುರು ಜಾತ್ತಾ ಮ್ಹೋಣು ಸಾಂಗ. ಹೇಂ ಕಾಯಿ ಉಪಯೋಗಾಚೇಂ ನ್ಹಯಿ.

ಥೋಡೋ ವೇಳು ಆಲೋಚನಾ ಕೋರ್ನು 'ಬ' ಶೇಂ ದಿಸತಾ ಮಹಾರಾಯಾ ಮ್ಹಣಾಲೋ ತೋ ಆನಿ ಘಟ್ಟಿ (loudly) ಬ ಬಾ ಬಿ ಬೀ ಬು ಬೂ ಬೇ ಬೈ ಬೋ ಬೌ (bow bow) ಮ್ಹಣಾಲೋ. ತಾನ್ನೇ ಘಟ್ಟೀ ಬೌ ಬೌ (bow bow) ಕೇಲ್ಲೇಲೇಂ ಆಯಕುನು traffic guide ಕೋರೂಕ ರಾಬ್ಬಿಲೋ police ಸುದ್ಧಾಂಯಿ ಖಂಚೇ ಸೂಣೇ ಆಯಲೇಂ ಬಾ ರಸತ್ಯಾ ಮದ್ದೇಂತು ಮ್ಹೋಣು ಘೂವನು ಪ್ಹೋಳೋಂಚ್ಯಾಕ ಲಾಗ್ಲೋ ಆಮ್ಕಾ. ಬುರ್ಡೇಮಾಮು ಮಾಗ್ಗೇರೀ ಮಗಲೋ ಹಾತು ಘಟ್ಟೀ ಧೋರ್ನು

.........

ೞೀ: ರಮಾನಂದ ತುಕ್ಕಾ ಗೋತ್ತು ಆಶ್ಶಿಲೇಂ 'ಬ' ಚೇಂ ಆಣಿ 'ಭ' ಚೇ ಶಬ್ದ ಪುರಾಯಿ ಸಾಂಗ ಪೋಳೋಯಾಂ. ತಾಂತು ಥಾವನು ಕಸ್ಲೇಂಯಿ solution ಮೇಳತಾ ಕೀ ಮ್ಹೋಣು.

ಾಂವ : ಶಬ್ದ ಸಾಂಗ್ಗುಕ ಹಾಂವ ಇತ್ತೇಂ dictionary ವೇ? ಕೀ ಕೋಂಕಣೀ ಪಂಡಿತು?

ೋ: Dictionary ಕೀ Missionary ಕೀ. ಆನಿ ಮಗಲ ಬಾಯಲ ಕಾಂಯಿ ಕೋಂಕಣೀ ಪಂಡಿತ ನ್ಹಯಿ. ತ್ಯಾಮಿತಿಂ ತುಕ್ಕಾ ಗೋತ್ತಾಶಿಲೇ ಏಕ ಚಾರೀ ಶಬ್ದ ಸಾಂಗ.

ಹಾವಂ: ತಾಂತು ಕಸಲೇಂ ಭಾರಿೀ. ಪ್ರೆಯತ್ನ ಕರತಾಂ. (ಜೋರೂ ಭೂಕ ಲಾಗ್ಗಿಲಿ ಪೊಟ್ಟಾಂತು ಕಾಯಳೇ ರಡತಾಲೇ)

Bread, biscuit, butter, burger ಬಟಟೊ .....

ತೋ: ನ್ಹಯಿ.

*(ಮ್ಹಣಾಲೊ ತೊ ಮಾತ್ತೆಂ ಹಾಲ್ಲೊನು.)*

ಹಾಂವಂ: ಬಾಟಲೀ ಬೂಚ ಬುಡಕುಳೋ ಭೋಗುಳೇಂ ಬುರಡೋ ......

ತೋ: ತೇಂ ಸಕ್ಕ ನ್ಹಯಿ ರೆ.

ಹಾಂವಂ: ಬದಮಾ ಸಲಾಮ ಮುಲಾಮು

ತೋ: ಮಾಕ್ಕಾ 'ಮ' ನೇ end ಜಾಂವ್ಚೇ ಶಬ್ದ ನಾಕ್ಕಾ. 'ಬ' ನೇ ಸುರು ಜಾಂವ್ಚೇಂ ಮಾತ್ರ ಜಾಯಿ.

ಹಾಂವ : ಅಡ್ಡಿ ನಾ. ಬದಾಮಾ ಹಾಲವ್ಪೋ ಮೈ್ಸುರ ಪಾಕ.... Sorry sorry....

ತೋ: ಆಸ್ಸೋ. ಮುಖಾರೀ ಸಾಂಗ.....

*(ಇದೂರ ಏಕ ಬೇವಾ ಝಾಡ ದಿಸಲೇಂ.)*

ಹಾಂವಂ: ಬೇವ್ಪೂ ಬೀರೂಂಡ ಬೇಲೂ ಬೋರ ಬೈಲೂ ಬದಕ ಬ್ರೊಚ .....

ತೋ: ನ್ಹಯಿ ರೆ.

ಹಾಂವಂ: ಬಾಗೀಲ ಬೀಗ ಬೀಗಾಹಾತು ಬೀಜಾಗ್ರ ಬುಕ ಭೇಲೂ ......

తో:	తస్లేం సక్త న్హయి రే.

హాంవం:	భాంగీ భ్రాంతీ భాండార....

(తిత్త భిత్తరీ V N Jewellers shop దిస్లేం) ......భాంగార భాంగ్రా కాంకణాం

తో:	ఛీ ఛీం!

(మ్హణాలొ జేబ చాబ్బును)

హాంవం:	ఆత్తం కస్లేం సాంగు బా తుక్కా బేజార ఆయలో మాక్కా. వత్త హాంవం.

తో:	Please రమానంద............

(మ్హణాలో బుర్దే మామ రాగ తాపణు)

హాంవం:	బీలావల బీహాగ బీలహరీ బీలాడీ......

తో:	సమ ఆలోచన కరీ రే ఆని సాంగ.

(మాక్కా చికేచి కోపు ఆయలో. కోప్పానే వగవగ్గి)

హాంవం:	బేత బేట బోలూ బోడ భూత బేలి భోవర భ్రము.....

తో:	అరే అరే కండాబట్టే కసలేంయి పుణి సాంగ్గు నాక్కా సాయబా.

హాంవ:	(little slowly) Brush, boot, button, భస్మ (Bhasma), brandy, బిల్లు బాణు బైరాగీ భాషణ భాగ్య, bomb .......

తో:	మాగ్గిరి ముఖారీ.....

హాంవం:	Bank, bonus, blotting, boiler.......

తో:	హట్ట

హాంవం:	Barometer, thermometer, ...sorry sorry...Biscuit....

తో:	తేం ఏక ఘాంత్తాం జాల్లేం తే.....

ಹಾಂವಂ: ನಾ ಬಿಸ್ಕುಟ ರೋಟ್ಟಿ ಬಿಸ್ಕುಟ ಆಂಬೋಡೋ ಬೋಂಡಾ ಹೇಂ ಸರ್ಕ್ಡ ಜಾಯ್ನೀ.

ತೋ: ತೇಂ ನ್ಹಯಿ ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ನ್ಹವೇ ಹಾವೇಂ?

ಹಾಂವಂ: ತಾವಳೀ ಭಾಡೇಂ ಭಾಡೋತ್ರಿ ಪೊಲೀಸಾಕ ಪೋಳೋನು ಬೀಗೀಲ ಬಾಸ್ಕೇಟ.

ತೋ: ಉಂಹೂಂ

ಹಾಂವಂ: (ಕೊಪ್ಪಾನೇ) ಬೋಂಬೀಲ ಭೇಂಡ ಬೆನ್ಡ ಬಲೇಂ ಬೇಳೇಂ ಭೇರೀ........

ತೋ: ಸಮ ಸಾಂಗಚೇಂ ಸೋಣು

ಹಾವಂ: ಆನಿ ಕಿತ್ಲೇ ಶಬ್ದ ಸಾಂಗಚೇ? ಮಗಲಿ dictionary ಖಾಲೀ ಜಾಲ್ಲಿ. ಫೇ...... ಬಸ ಬೋಟರ ಬೇಜಿ ಬೇನ್ಸಿಲ ಬಬ್ಬರ

*(ಮ್ಹಳ್ಳೇಂ ತಾಗಲಿ ಗಮ್ಮತ ಕೋರೂಕ ಬಾಕೀ ಶಬ್ದ 'ಬ' ನೇ ಸುರೂ ಕೋರ್ನು).*

ತೋ: ಹೇಂ ಸಕಡ ಮಾಕ್ಕಾ ಕಳನಾ ಅರ್ಥು ಜಾಯನಾ ಬಾ .......

ಹಾಂವಂ: ತಾವಳೀ ಹಾಂವ ವತ್ತಾಂ. ಮಾಕ್ಕಾ ಬೇಜಾರ ಆಯಲೋ. ವೇಳೂಯಿ ಜಾಲ್ಲೋ. ಇತಲೇ ರಾಶಿ ಶಬ್ದ ಸಾಂಗ್ಗಿಲತಕ್ಕೀ ತುಗಲೇಂ problem solve ಜಾಯನಾ. ಹಾಂವಂ ವತ್ತಾಂ ಘಾರಾ.

(ಮ್ಹೋಣು ಘುಂವಲೋಂ. ಘುಂವತನಾ Bandra Talkies ಚೋ ಹೊಡು board ದಿಸಲೋ.) 'ಬಣ್ಣಾ ಆಯ್ಲೋ' ಕಡ್ಡೇ ದೀಸು ಮ್ಹೋಣು 'ಬ' ನೇ ಸುರೂ ಜಾತ್ತಾ ನ್ಹವೇ

(ಮ್ಹೋಣು ಹಾಂವೇಂ ತೇಂ ಘಟ್ಟೀ ವಾಚಲೇಂ.)

.

ಆಯಕುನು ಬುರ್‌ಡೇಮಾಮಮು ಥಾಂವತಚಿ ಯೇವನು ಮಾಕ್ಕಾ ಗೋಪ್ಪೇ ಘಾಲೂಕ ಲಾಗಲೋ. ಆನಿ ಹೇಂಚಿ ತೇಂ ತಿನ್ನೇ ಸಾಂಗ್ಗಿಲೇಂ. ಯೇತನಾ ರಾತ್ತೀ show ಕ ದೋನಿ ಟಿಕೇಟಂ ಹಾಡೀ ಪಿಕಚರಾಕ ವೋಚ್ಚಾಂ ವಿಸ್ಸೋರ್ನಾಕ್ಕಾ ಮ್ಹೋಣು. ಮಗಲೇಂ

problem solve ಜಾಲ್ಲೇ ಮ್ಹಣಾಲೋ ಆನಿ ವತ್ತಾಂ ಹಾಂವಂ ಮ್ಹಣಾಲೋ ಆನಿ ವಚುಗಲೋ.

ಜಾಲಯಾರೀ ಪಾಪ ಬುರ್ಡೇಮಾಮ್ಮಾಚೇಂ. Last show ಸುರು ಜಾವನು ತಾವಳೀಚಿ ೨೦ minutes ಜಾಲ್ಲೇಲೀಂ.

*ಹೆಂ ಲೇಖ ಪಡುಕೋಣ ರಮಾನಂದ ಹಾಂಗಲೆ ಕನ್ನಡ 'ಹರಿಕಮತನ ನೆನಪು' ಹಾಜ್ಜೆ ಆಧಾರಾರಿ ಬರಯಿಲೆ.*

------



शीला केशव खंबदकोण हिन्ने मंगळूर तिगले म्हावेले घारा राब्बुनु १९४८ सालांतु एस.एस.एल.सी पूर्ण केल्लें. सान धोर्नु हिक्का कोंकणि पदं, कविता, नाटकं बोरोंव्चे आवडि आश्शिलें आनि हिगले मित्र मंडळि सांगाति हाज्जे प्रदर्शनयि जात्तालें. १९४८ सालांतु मुंबयि आयिल नंतरयि तिन्ने हि आवडि चालु दवरलॆ आनि हिं कविता ऑल इंडिया रेडियोरि प्रसारु जात्तालो. सांगातीचि तिन्ने कोलेजा वच्चुनु इग्लिश लिटरेचर आनि जर्मन घेव्वु ग्रेजुएशन पूर्ण केल्लें. हिगलिं पदं, कविता कोलेज मेगेझिन मात्र न्हयि श्री क्रिष्ण करवार हांगले "सालुक मेगेझिन" हांतुयि प्रकाशित जात्तालें.

हिन्ने बरयिले एक दोन-अंकि नाटक "हास आज्जि हास" १९८४ सालि कोंकणि नाट्य महोत्सवांतु सादर जाल्लें आनि दुसरे एक-अंकि नाटक १९८३ सालि दिवाळि वेळारि सांताक्रुझ कोलोनि, मुंबयि हांगा सादर जाल्लो. १९९५ साली विश्व कोंकणि सम्मेलनांतुयि हिगलें कविता वाचन जाल्लें. मार्च २००९ सालि सारस्वत महिळा समाज, मुंबयि हान्नि हिक्का "लेखन पुरस्कार" सन्मानित केल्लें.

हिगलिं पदं, कविता, नाटकं बोरोंव्चे उद्देशु लोकांक हासोंव्चे आनि तांगले मनं प्रसन्न कोरचे. निसर्ग आनि मानवता हाज्जे आधाराने हिन्ने कोंकणि भाषेचो भंडार आनि गोम्टायि प्रदर्शन कोरचे प्रयत्न केल्यां.



ಶೀಲಾ ಕೇಶವ ಖಂಬದಕೋಣ ಹಿನ್ನೇ ಮಂಗಳೂರ ತಿಗಲೇ ಮ್ಹಾವೇಲೇ ಘಾರಾ ರಾಬ್ಬುನು ೧೯೪೮ ಸಾಲಾಂತು ಏಸ.ಏಸ.ಏಲ.ಸೀ ಪೂರ್ಣ ಕೇಲ್ಲೇಂ. ಸಾನ ಧೋರ್ನು ಹಿಕ್ಕಾ ಕೋಂಕಣಿ ಪದಂ, ಕವಿತಾ, ನಾಟಕಂ ಬೋರೋಂವ್ಚೇ ಆವಡಿ ಆಶ್ಶಿಲೇಂ ಆನಿ ಹಿಗಲೇ ಮಿತ್ರ ಮಂಡಳಿ ಸಾಂಗಾತಿ ಹಾಜ್ಜೆ ಪ್ರದರ್ಶನಯಿ ಜಾತ್ತಾಲೇಂ. ೧೯೪೮ ಸಾಲಾಂತು ಮುಂಬಯಿ ಆಯಿಲ ನಂತರಯಿ ತಿನ್ನೇ ಹಿ ಆವಡಿ ಚಾಲು ದವರಲೇಂ ಆನಿ ಹಿಂ ಕವಿತಾ ಆಲ ಇಂಡಿಯಾ ರೇಡಿಯೋರಿ ಪ್ರಸಾರು ಜಾತ್ತಾಲೊ. ಸಾಂಗಾತೀಂಚಿ ತಿನ್ನೇ ಕೋಲೇಜಾ ವಚ್ಚುನು ಇಂಗ್ಲಿಶ ಲಿಟರೇಚರ ಆನಿ ಜರ್ಮನ ಘೇವ್ನು ಗ್ರೇಜುಏಶನ ಪೂರ್ಣ ಕೇಲ್ಲೇಂ. ಹಿಗಲಿಂ ಪದಂ, ಕವಿತಾ ಕೋಲೇಜ ಮೇಗೇಝಿನ ಮಾತ್ರ ನ್ಹಯಿ ಶ್ರೀ ಕ್ರಿಷ್ಣ ಕರವಾರ ಹಾಂಗಲೇ "ಸಾಲುಕ ಮೇಗೇಝಿನ" ಹಾಂತುಯಿ ಪ್ರಕಾಶಿತ ಜಾತ್ತಾಲೇಂ.

ಹಿನ್ನೇ ಬರಯಿಲೇ ಏಕ ದೋನ-ಅಂಕಿ ನಾಟಕ "ಹಾಸ ಆಜ್ಜಿ ಹಾಸ" ೧೯೮೪ ಸಾಲಿ ಕೋಂಕಣಿ ನಾಟ್ಯ ಮಹೋತ್ಸವಾಂತು ಸಾದರ ಜಾಲ್ಲೇಂ ಆನಿ ದುಸರೇ ಏಕ-ಅಂಕಿ ನಾಟಕ ೧೯೮೩ ಸಾಲಿ ದಿವಾಳಿ ವೇಳಾರಿ ಸಾಂತಾಕ್ರುಝು ಕೋಲೋನಿ, ಮುಂಬಯಿ ಹಾಂಗಾ ಸಾದರ ಜಾಲ್ಲೆಂ. ೧೯೯೫ ಸಾಲೀ ವಿಶ್ವ ಕೋಂಕಣಿ ಸಮ್ಮೇಲನಾಂತುಯಿ ಹಿಗಲೇಂ ಕವಿತಾ ವಾಚನ ಜಾಲ್ಲೇಂ. ಮಾರ್ಚ ೨೦೦೯ ಸಾಲಿ ಸಾರಸ್ವತ ಮಹಿಳಾ ಸಮಾಜ, ಮುಂಬಯಿ ಹಾನ್ನಿ ಹಿಕ್ಕಾ "ಲೇಖನ ಪುರಸ್ಕಾರ" ಸನ್ಮಾನಿತ ಕೇಲ್ಲೇಂ.

ಹಿಗಲಿಂ ಪದಂ, ಕವಿತಾ, ನಾಟಕಂ ಬೋರೋಂವ್ಚೇ ಉದ್ದೇಶು ಲೋಕಾಂಕ ಹಾಸೋಂವ್ಚೇ ಆನಿ ತಾಂಗಲೇ ಮನಂ ಪ್ರಸನ್ನ ಕೋರಚೇ. ನಿಸರ್ಗ ಆನಿ ಮಾನವತಾ ಹಾಜ್ಜೇ ಆಧಾರಾನೇ ಹಿನ್ನೇ ಕೋಂಕಣಿ ಭಾಷೇಚೋ ಭಂಡಾರ ಆನಿ ಗೋಮ್ಟಾಯಿ ಪ್ರದರ್ಶನ ಕೋರಚೇ ಪ್ರಯತ್ನ ಕೇಲ್ಯಾಂ.